# सूड

[ नवलिका ]

बरोवपी

दामोदर मावजो



जाग प्रकाशन

जाग प्रकाशन : १४

पयलें उजवाडावप : आक्टोबर, १९७५



मोल : ४ रुपया

उजवाडावपी :
सुमन्त रामचन्द्र केळेकार
जाग प्रकाशन,
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय

छापपी :
य. गो. जोशी
आनंद मुद्रणालय
१५२३, सदाशिव
पुणे, ३०.



# आरंभाक

श्री. दामोदर मावजो हांचें 'गांथन' हें पुस्तक जाग प्रकाशनान १९७३ त उजवाडा हाडलें. पुस्तक उजवाडा येना फुडें ताणे कोंकणी कथेच्या मळार मावज्यां खातीर एक खाशेली सुवात जोडून दिली. कोंकणींतल्या पोरण्या, नव्या, सगळया बरप्यांनी आनी वाचप्यांनी ताची तोंडभर तुस्त केली. कोंकणी भाशा मंडळ आनी गोंयची कला अकादमी हांच्यो तसरिपोय ह्या पुस्तकान जोडल्यो. हिन्दी, मराठी, इंग्रजी बी भाशांनीं तांतल्या कांय कथांचीं भांशांतरां जालीं.

मावज्यांच्या येसा वांगडा कोंकणिच्या जैताची घुडीय अभिमानान फडफडूंक लागिल्ली लोकांनी पळेली.

आतां तांगेली 'सूड' ही पयली नवलिका उजवाडा येता. ती वाचप्यांच्या हातांत दवरतना जाग प्रकाशनाक खूब खोस भोगता. मावज्यांच्या कथां भाशेन हे आगळे नवलिकेकूय रसिक वाचप्यां कडल्यान उमेदीन येवकार मेळटलो अशी आमकां आस्तूच न्हय, तर खातरी आसा.

कोंकणी बरपावळिच्या मळार नवलिका आयज तरी दुर्लभ. हे नवलिके उदेशीं कोंकणी आपल्या जैताचें आनीक एक पावल मुखार घालता.

प्रियोळ,
२ ऑक्टोबर १९७५

**उजवाडावपी**

: १ :

“ दोतोर ! फोन––”

हांवें वचून फोन घेतलो.

“ हॅलो, माली ! ” तेवटेनच्यान आवाज येवचे पयलींच हांवें मालीक हटकिलें. अशें केलें म्हणटकीर तें बेठेंच तिडटा––म्हाका अजापांत बुडोवपाची ताजी वानसा फळ्ळी ना म्हुण. भितर्यां मात् मुरगुट्टा.

“ तुका जिस्त कशें कळटा––”

“ तुका कितल्या फावटी सांगलें हांवें कि ती ‘ टेलेपथी ’––म्हळचार अंतर्मन उलयता. तूं थंय उगडास काडटाखिणीं म्हाका हांगा जांबय येता. तुजी थंय तकली कणकणपाक लागता आनी म्हाका हांगा सकयल-वयर जाता. कित्याक ताका जाप ना––simply telepathy––”

“ पुरो, पुरो. आतां ह्या खिणाक म्हाका कितें जाता तें जाणा तर तूं ? ” मालीन विचाल्लें.

“ Oh, yes! तुजें काळीज धडधडटा. जीव सामको दोळयां आयला. एकेतरेचो excitement आसा. दुबावमिस्रित भिरांत गळ्याकडेन आडखळटा. म्हाका सांजची ‘ ड्युटी ’ आसत काय, खंय ‘ अपॉइंटमेंट ’ आसत काय–कित्याक तेंय जाणा हांव. . .तुगेलो डॅडी आज घरा ना. म्हणटकीर तुका पासयेक वचपाक फावता. आनी लेट घरा परतल्यारूय विचारतलो कोण ना. ”

“ सामकी फट ! ” हांवें जिस्त सांगलें म्हुण ताका राग आयिल्लो. “ म्हाका सध्याक जोर आसा. निकतोच तेर्मामित्र लायिल्लो––साडेतीन जाला. रातीच्यान तकली फोडटा. आनी हड्ड्यांत थंडी इतली भल्ल्या कि ब्रोंकाइटीस नाजाल्यार न्युमोनिया हातुंतलें एक कितेंय तरी आसुंकच जाय. ”

“अशें, अशें ! तशें जाल्ल्यार तपासपाक येवचेंच पडलें. आनी संदूय बरी आसा तपासपाक. डॅडी ना न्ही घरा ? पुण एक सांग. तुमगेली वावराडी–कोण तें–वोंवळ–तें आसा व्हय घरांत ? ”

“ ना, दोतोर ! कोण ना घरांत. वोंवळाक धुवेगेर वचपाचें आसलें. म्हाका बरें दिसता म्हुण हांवें ‘ वच ’ म्हळें. पुण आतां म्हाका भिरांत दिसता. बेगीन यो, दोतोर ! ” मालीक तेवटेन किडी खाताल्यो.

“ बरें आसा ! पांचां उपरांत हांव बेकार जातां. सोमतोच येतां. जेवणाक बरेंऽ कितें करतलें मगो ? ”

“ वाऽऽरे वाऽ ! ” माली हेळ काडटा कितले सुंदर ! “ हांव दुयेंत ! म्हाका रांद म्हणटा ? आनी येदोळ तुका सांगूंक विसल्लें. येदोळच्यान म्हज्या पोटांत वळटा. घरचें जेवण जेवनजेवन माल पडलां. तेन्ना आज जेवण भायर. तुज्या बोलसाक खार ! ”

“ म्हाकाच तोपी मगो ? बरें आसा ! सरकार कृपेन पगार बरो आसा म्हुण माणसुकी–नाजाल्यार तुजे असलें lover आमकां परवडपाचें ? ”

“ त्यो खबऱ्यो मागीर उलोवंया आमी. आतां सांग–बेगीन येता मरे ? ”

“ यस् मॅडम ! ”

“ पळय आं ? ”

“ येतां म्हळें न्हीं ! ”

मालीलें म्हुण उलोवपच सोंपना. हांवें फोन बंद केलो.

माली दोतोर जयवंत केणी हांगेलें एकलें एकसुरें चली. मालीकडेन म्हजी वळख जाली आनी वर्साभितर आमी एकामेकांक खुब्ब लागीं आयलीं. मालीचो बापूय आदीं पुर्तगेजाले मिलितारींत सिर्वीस केल्लो मनीस. पुरोगामी विचारांचो. तातूंत मालीक आवय नाशिल्ल्यान मालीचेर ताजी खुब्ब माया. ताकाय आमची इश्टागत आनी संवकळ मानवली. आतां तो माळ घालपाक लागशिल्लो म्हुर्त खंयचो हाजीच वाट पळयतालो. कालच तो दिल्लीक रावतिका आशिल्ल्या आपणाल्या भावागेर वचपाक गेल्लो. वतना मालीक व्हरपाची ताका इत्सा आसली.

पुण माली हट्टान राविल्लें.

पांच वरां जातात केन्ना आनी हांव भायर सरतां केन्ना अशें जाल्लें म्हाका मालीचो सांगातच असो आसलो कि वरांची वरां सल्लीं तरी उबगण येना आसली. बेबद्याक सोरो तशें म्हाका माली ‘ लागतालें ’, ‘ चडटालें ’. मिरामार वा दोनापावलाक वचून बसलीं जाल्यार आमोर जायसर आमकां उठनच दिसनासलें. आज मात मालीन घराच आफोवन बेस केल्लें. ह्या दिसांनीं गोंयच्या सायबाचें प्रदर्शन उकतें जायत सावन हज्जारांनी टुरीस्ट गोंयांत येताले-वताले आनी ताका लागून मिरामार, दोनापावल, कळंगुटे सारकिल्या सुवातिनीं एकसुरीं बसपाक सुवातच मेळनासली.

हॉस्पिटलांतसून भायर सरून हांवें म्हगेले फियाटीचें दार उकतें केलें. बॅग भितर शेंवटिलें आनी बसपाक पांय उखल्लो. इतल्यान जनेलांतसून नर्सीन ताळयो मारून म्हाका कुरवांनी सांगलें–‘ फोन आयला. ’

फोन ! मालीलो न्ही ! मागीर––

हांवें भितर वचून रिसिव्हर उखल्लो.

“ हॅलो ? विलास रे ? हांव मार्टीन उलयतां. ” आवाज आयलो.

“ हॅलो, मार्टीन ! कोणाक कितें जालें रे ? ” मार्टीन म्हगेलो भुरगेपणांतलो इश्ट. हालींच आमी पयसाविल्ले. केन्नाय तागेलो सोयऱ्यांतलो वा वळखिचो कोणूय दुयेंत जालो, हॉस्पिटलांत हाडलो जाल्यार तो म्हाका मेळटालो आनी हांवूय ताका फाव तो आनी जाता तो पालव दितालों.

“ विलास, एक नविदाद आसा. ” मार्टीन उचांबळ जावन उलयतालो.

“ कसली रे ? ” म्हाका अदमासच येना जालो.

“ आरे, विसेंत फिगरेद गोंयां आयला. ”

“ कोण ? ” हांवें नकळटना आडडून विचाल्लें.

“ विसेंत फिगरेद ! तेनेंत ! हॅलो ? विलास ? हॅलोऽ, हॅलोऽ ! ” मार्टीनाक जाप दिवपाक म्हाका उतर फुटनाशिल्लें. काळजाचे न्हंयक घाल्लो बांद फुटिल्लो आनी विचारांचें उदक घसघशाभाशेन नेटान व्हांवत सुटिल्लें.

“ हॅलो विलास ! फोनाक कितें जालें काय कितें रे ? ”

" ना रे ! " हांवें ताळचार येवन म्हळें, " हांवूच मातसो घुसपलों. थ्यु कॉट मी अनेवेअर ! तें आसूं. कोणें सांगलें तुका ? "

" विलास, तूं हॉस्पिटलांत आसा जाल्यार चोवपाक फोन केल्लो हांवें. हांव येवं थिगा ? " मार्टीनान विचाल्लें.

" नाका. हांव भायरच सरतालों. तूं खंयसून उलयता ? हांवच मेळटां तुका—"

" दॅटस फाइन ! हांव जिस्त आबे द फारीयच्या फुडयांत रावतां. चड वगत लागतलो तुका ? "

" ना. हांव भायर सरता तो थंय पावतां. " हांवें रिसिव्हर सकयल दवल्लो. कपलावयली हूम पुसली. आनी हेवटेन तेवटेन पळयनासतना बद्द मोटारींत वचून बसलों.

विसेंत फिगरेद ! हो एक मनीस जल्माक येनासतना रावता जाल्यार म्हजे जिणेंत जी एक पोकळी निर्मण जाल्या, जें रितेंपण हांव अणभवतां ते सुवातेर घणघणीत फुडार आशिल्लो एक उमेदीवयलो नांवाजतो दोतोर म्हूण हांव नामना जोडटलों आसलों. पुण ह्या विसेंत फिगरेदीन, दुश्टान म्हजी उमेद, उर्बा, हावेस सगल्यांची गोमटी आंवुळ्ळी.

विसेंत फिगरेदीचे यादीन म्हजें रगत तापूंक लागलें. कानसुलांचेर तामसाण पातळ्ळी आनी कपलाशीर तट्टून फुगली.

मोटार केन्ना आबे द फारीया बगलेक पावली कळ्ळेंच ना.

० ० ०

: २ :



म्हजें घर काणकोणा. बापायलो इल्लोसो शेताकुडको आनी सानशें भाट आसलें. पुण गांवांतलो लोक ताका चड वळखतालो तो " वैज " म्हुण. वैजकी आमगेल्या घरांत पुर्वाचार चलत आयिल्ली. म्हजो आजो आनी पणजो वैजच आसले. आनी म्हजो बाबाय वैजकी चलयतालो. झाडापाल्याचीं आनी पाळांमुळांचीं वखदां दिवन म्हज्या बाबानच शेंकडयांनी लोकांक बरे केल्ले. ह्या 'अॅलोपथी' च्या दिसांनी लेगीत बाबाली वैजकी बेस चलताली. कारवार–कुमठासावन आनी बेळगांव–मुंबयसाकून लेगीत वायटाकार येताले आनी गुण घेवन वताले. दुडवांचेर दोळो दवरून वैजकी करपाची त्या काळार रीतच नासली. ताकालागून आयल्यापयल्या गांवांतल्या–जावं आस्तिक जावं गरीब सगल्या लोकांक वायटावेळार बाबाच जाय आसलो. लोक बाबाक मानतालोय खूब ! आमचें आडनांव 'परोब'. पुण लोकांनी मात दवरिल्लें " वैजपरोब ! "

सकाळचो शेतां-भाटांत वावर करप, सांजची वैजकी करप, आनी फाविल्ल्या वेळार पुस्तकां वाचप हो बाबालो नेम. काणकोण सारकिल्या गांवांत रावन लेगीत बाबान संस्कृत, मराठी, हिंदीचें खुब्ब वाचन केल्लें. आकांत वाचन, तोखेवपाइतली बुद्धिमत्ता आनी वैजकी-गिन्यान हांकां लागून बाबाल्या तोंडाकलेगीत एक आगळी-वेगळी सय मारताली.

बाबाले वैजके विशिंच्यो जायत्यो खबरी प्रचलीत आसल्यो. गांवांतल्या परस भायल्या गांवांतल्या लोकांमदी ह्यो खबरी चड चलताल्यो. पुण ह्या खबरांक अतितायेचो वास आशिल्ल्यान तांतुंतलें तथ्य जाणा जावन घेवपाचें. म्हजे यादींतल्यो कांय खबरी सांगपा सारक्यो आसात.

एक दीस गोवेर्नादोर काणकोणां आयिल्लो. त्रोप दवरिल्ल्या थळाक भेट दिवन परतुपाच्या वेळार अकस्मात एक अरिश्ट उपरासलें. गोवेर्ना-

दोराल्या सेक्रेताराक जिवाणें चाबलें. सेक्रेतारालो बोब आयकून सगले धांवले. मिलीटरीचो दोतोर येवन ताणें वखदविर्सद केलें. पुण कांयच गुण आयलो ना. . .आनी सेक्रेतार साबुद्दीभायरो जालो. गोवेर्नादोर धरून सगले थर्त भियेले. . .ल्हवूच कोणें तरी वैजपरबूची गजाल काडली. गोवेर्नादोराच्या कानांर पडनाफुडें ताणें रोखडीच जीप धाडली. बाबा आपणांली वखदांची पोटलीच घेवन गेलो. पळय जाल्यार कावज हातांतलो. झाडपाल्याचें वखद ! पुण अर्द वरा भितर गुण पडलो. वरभरयान सेक्रेतार साबुद्दीचेर आयलो. इतलो वेळ उस्वास रोखून आकुळपिकूळ जाल्लो सगलो इतलो लोक ल्हवल्हव जालो. सगल्यांक सू ऽ जालें.

आमोरेचेर सगले ‘ देव बरें करूं ’ म्हणीत गेले. दोन दिसांनी बाबाक खासा गोवेर्नादोरालो आपोवणो आयलो. नोटींचो कवळो दिवन गोवेर्नादोरान म्हळें, “ तुवें म्हगेल्या सेक्रेताराचो जीव वाटायलो. देव बरें करूं. ” पुण बाबान दुडू घेतले नात. ताणें म्हळें, “ वैजकीचें मोल दुडवांनी जायना. तुमची तोखणायेचीं उतरांच म्हाका पुरो. ”

गोवेर्नादोर खुशाल जालो. कसलेंय काम आसल्यार निट्ट आपणांसरी यो अशें सांगून गोवेर्नादोरान बाबाक घरा पावयलो. पुण इतल्यान सल्लें ना.

वयले गजाली उपरांत स म्हयन्यांनी सुमार पर्थून गोवेर्नादोरालो आपोवणो आयलो. गोवेर्नादोराली वयावयली धूव चड बरी नाशिल्ली. गोंयचे सगले नामनेचे दोतोर जाल्ले. आनी फुडल्या सप्तकांत तिका पुर्तुगालाक व्हरून थंय उपचार करपाचें थारतालें. गोवेर्नादोरान आपूण जावन एका वैजाक आपयलो तें पळोवन जायत्या जाणांक अजाप जालें. बाबान वचून सुमार केलो. पोटांतलें दुखणें खरें. पुण कामीण सांगाताक आसल्या कारणान वायट बळाविल्लें. बाबान गोवेर्नादोराकच सांगलें–“ तिका पुर्तुगालाक व्हरपाची गरज ना. म्हाका धा दिसांची मुजत दियात. ” गोवेर्नादोरान रोखडेंच ‘ आं ’ म्हळें.

बाबान पयल्यापयलीं कामीण लासपाचें थारायलें. गोवेर्नादोराली बायल थर्त भियेली. ‘ नाकाच असलो रानवटी उपाय ’ म्हणूंक लागली.

गोवेर्नादोराली धूव त्यायपरस चड भिजूड. पुण बाबान तांकां समजायलीं. हॉस्पिटलांत व्हरून ओपेरासांव करचेपरस कामीण लासप कितलें सोपें आनी सादें तें सांग्नाफुडें सगलीं थंड जालीं. कामीण लासली. झाड-पाल्याचें वखद सुरू केलें. व्हडले व्हडले पुर्तुगेज दोतोर पिकार जाल्ले. पुण गोवेर्नादोराचो वैजावयलो विस्वास पळोवन तांगेलीं तोंडां बंद जालीं. आठ दिसांभितर गोवेर्नादोराले धुवेन बेस प्रगती केली. धाव्या दिसा पुर्तुगेज दोतोरांनी तिका तपासली आनी दुयेंस बरें जाल्ल्याचो निर्वाळो दिलो.

त्या उपरांत गोवेर्नादोरान बाबाची केल्ली तुस्ततोखणाय सांगून कळपाची ना. " तुमचेसारकिल्या लोकांक लागून गोंयचें नांव व्हड जावं. तुमकां केन्नाय कसलीय गरज लागली वा काम आसलें जाल्यार मात अंनमन नासतना म्हाका मेळ. " स्रम फळ्ळे म्हुण बाबाय खुशालभरीत जालो.

बाबाली वैजकी ही भौसापसत आशिल्ल्यान आनी बाबाली नदर केन्नाच दुडवांचेर नाशिल्ल्यान बाबाचो सगल्यांकूच आदर आसलो. आनी ह्या आदरयुक्त भावार्ताक लागून बाबाविशिंच्यो कितल्योशोच आख्यायिका साश्ट, बारदेश धरून कारवारकुमठामेरेन आयकूंक येताल्यो.

वैजकीच्या मळार हांवें क्रांती करची ही बाबाली उमेद ! म्हजें मुळावें शिक्षण बाबानूच म्हाका दिलें. काळाचीं पावलां वळखून चांटभर फुडें रावचें ह्या हेतान मुखार म्हाका इंग्लेज शिकयली. वैजकीच फुडें चलोवची पुण अेलोपथीची सांगड घालून चलोवंची अशी बाबाली म्हणणी आसली. हांव मुंबय कॉलेजींत गेलों. इंटराक विशेश योग्यतायेसयत फर्स्ट क्लास घेतलो. आनी ग्रँट मेडिकल कॉलेजींत नांव घालें. बाबाक तेन्ना जी खोस भोगल्या ती सांगून कळची ना. हांव मुंबय वचपाक भायर सल्लों तेन्ना म्हाका वेंगेंत घट धरून बाबान म्हणिल्लें, " म्हज्या दोळ्यांमुखार तूं दोतोर जातलो.तूं जाणा, हेर दोतोरांभशेन दोतोर जाल्लो तूं म्हाका नाका. म्हजेलागीं आशिल्ली कांय गुपितां—सेगरेदी हांव तुका सांगतलों. वायटाचो सुमार करपाची म्हजी रीत तुका सांगतलों. झाडपालो, पाळां-मुळां कशीं दिवचीं, तांचो उपेग, तांचे गुण तुका शिकयतलों. तूं सारको

अभ्यास करशी जाल्यार तुका तांचो म्हजेपरस बरो उपेग करूं येतलो. म्हजेकडेन आसा तें सामान्यज्ञान, तूं जोडटलो तें विज्ञान. दोगांयचो मेळ घाल आनी जैतवंत जा. तुजी किर्त दिगंत जाल्ली म्हाका पळोवंक मेळ्ळयार पुरो."

बाबाल्या दोळ्यांतल्यान दोन दुकां गळ्ळीं आनी म्हज्या हातार पडलीं. हांवें भरिल्ल्या दोळ्यांनी पळयलें. मदल्या दाराफाटल्यानच्यान आई पदरापोंतान दोळे पुसताली...तो खीण काळजाच्या खणांत हांवें सांबाळून दवल्लो आनी दोतोरकी शिकपाक हांव मुम्बय गेलों.

...तो हांव म्हज्या आवयबापायचेर निमाणी नदर घालूंक लेगीत पावलों ना.

० ० ०

## : ३ :



१९५८ ! गोंयचे सुटकेचो वावर नेटान चलतालो. काणकोणचे जायते वावुरपी सुटकेखातीर रातिचे दीस करताले. बाबाकूय उमेद येताली. पुण ताणें मन घट केल्लें. पुताक दोतोर करप आनी ताजी किर्त संवसारभर फांकिल्ली पळोवप होच ताजो हावेस आसलो. ह्याच एका हेतान ताणें सुटकेसंग्रामांत उडकी माल्ली ना. गांवचे जायते जाण सुटकेपसत वावुरताले. तांतल्या जायत्या लोकांक पुर्तुगेज सरकारान धरून बंद-खणींतूय उडयिल्ले. सुक्या वांगडा ओलेंय जळटा तशें कांय चळवळीभायरे लोकूय तातूंत हुलपताले. पर्तगाळ, लोलयें, माशें सगलेकडलो लोक एक तर उमेदीन पेटिल्लो वा भियेवन गुळी जाल्लो. काजमीर मोंतैर आनी तागेले विसेंत फिगरेदी सारकिले सांगाती हाणीं तर काणकोणच्या भोंवतणांत आकांत फोगफार आनी मारपेट करून दहशत निर्मण केल्ली. काजमीर मोंतैरीचें नांव आयकून साडेभावार्थ्याक मुतूं जातालें आनी विसेंत फिगरेद येता म्हुण कळ्ळ्यार आंकवारी सवायशिणी लिपून रावताल्यो.

बाबाचो हरशीं कोणाकडेनच संबंद येवंचो नासलो. तो तर भुजरत ह्या सगल्या बोवाळापसून पयस राविल्लो. पुण कपलांत आसा तें कोणाक चुकता ? एक दीस कारवारकडल्यान एक वयावयली बायल वखदविर्सद करचेखातीर बाबासरीं आयली. कारवारसाकून गोंयां येवपाक पासपोर्ट लागतालो. पुण इतले त्रास काडचेपरस चोरवाटयां येवपी जायते जाण आसताले. काणकोणा कारवारा तर दिसपट्टे येवपी वचपी लोक लेगीत आसले. तर ही बायलमनीस चोरवाटयां काणकोणा आयली. बाबान तिका तपासली आनी वखदविर्सद करचेखातीर दवरून घेतली. कोणूय पयसुल्ल्यान आयलो आनी उपचार करचेखातीर रावचें पडलें जाल्यार तांची वेवस्था आमगेरच करचेली चाल पुर्वापार चलत आयिल्ली.

काजमीर मोंतैरीचो मिसतीस सांगाती विसेंत फिगरेद हो तेन्नाच काणकोणां आयिल्लो एक नंबरचो दुश्ट ! सोरो, सिगार, बायल, खेळ सगलें ताका लागतालें. हातांत सत्त्या येतकीर मनीस हो कसो राखेस जाता ताजी बेस बरी देख. बायलांचो वाटलायणो म्हुण लोक ताका चड वळखतालो. अशा ह्या विसेंत फिगरेदीची वायट नदर ते वखदविर्सद करपाक आयिल्ले बायलेचेर पडली.

आमोरी जाल्ली. अकस्मात विसेंत फिगरेद चौगां सोलदादांक घेवन आमगेल्या घरांत भितर सल्लो. आई तुळशीकडेन पण्टी पेटोवन निकतीच घरांत भितर सरिल्ली. बाबा भितर वल्तेराचेर आड पडून दिवले उजवाडांत दासबोध वाचतालो. इतल्यान भायर आवाज आयिल्लो आयकून बाबा भायले कुडींत आयलो.

"ओऽ ! सिन्योर ! कारवारची एक बायल हिंगा आहा. खंय आहा ती ?" विसेंत फिगरेद गुरगुल्लो.

"आं ! कित्याक ? ती–ती वखदाक आयल्या." बाबान ताका वायट दिसचें न्हीं म्हुण नमळीकाय घेवन म्हळें.

"वखदबिखद फकाणां ! तिका धरपाची ओर्द आहा. काड तिका भायर–" विसेंत फिगरेद शेंवटुपाक लागलो. तरिकूय बाबान तकली थंड दवरून म्हळें, "तशें जाल्यार म्हाका ओर्द दाखय."

"ओऽ फिल्यु द पूत–! म्हाका शापातां सांगता ? वळखना तूं म्हाका ?–" विसेंत फिगरेद बूट आपटीत ताणशेलो.

"हांव तुका वळखतां. पुण तूंच म्हाका वळखना कसो दिसता. तूं म्हगेल्या घरांत आयला. थंडसाणीन उलय." बाबा आजुनूय थंड आसलो पुण तेच थंडसाणेक लागून विसेंत फिगरेद चड पेटलो.

"तुका मस्ती माल्ल्या. धरात रे तेका–" सोलदादांनी बाबाक घट धल्लो. विसेंतीन पिस्तोल भायर काडलें. तो भितर सल्लो. भायर जाल्लो बोवाळ आयकून आई आनी ती बायल दोगांयची भियेवन गुळी जाल्ली. आई देवाऱ्यासरीं रावन सांगणी करताली आनी ती बायल मोडांत कडकडपी झाडाभशेन थरथरत थंय उबी आशिल्ली. विसेंत फिगरेद भितर आयलो तो बद्द ते बायलेसरीं गेलो. खीणभर तिजें रुपेस्त मुखामळ

आनी सडसडीत आंगलोट तोखेवन घेवन ताणें हात फुडें काडलो मात-आई उसळून मदीं पडली.

"हात लायशी, खबरदार!"

"ऊठ!" म्हूण फिगरेदीन तिका नेटान धुकल्ली. पुण ती सकयल पडली ती ते बायलेक घेवनच पडली. फिगरेदीन ओडून पळयलें, खोंटी-लेगीत माल्ल्यो. पुण आईन ते बायलेक मारिल्ली वेंग सोडली ना.

"तूं सोडटा काय ना तिका. बऱ्यान सोड." विसेंत फिगरेदीन पिस्तोल जोखून म्हळें, "ना जाल्यार जीव काडटलों."

विसेंत फिगरेदीलो सोरो दोळ्यांत देंविल्लो. पुण आई भियेली ना.

"घेऽ". पिस्तोलांतल्यान धुंवर सुटलो. आइली वेंग सदळ जाली. ती बायल बावडी भियेवन अर्द जाल्ली. घुंवळ येवपाकडेन पाविल्ली ती विसेंत फिगरेदीन तिका तशीच उखल्ली आनी भायर हाडली.

बाबाच्यान पळोवं नज जालें. ताणें कितलें केलें. पुण सोलदादांले हात सुटले नात. ते बायलेक घेवन विसेंत फिगरेद भायर सल्लो. गोवेर्नादोरालीं उतरां बाबाक याद आशिल्लीं. बाबान म्हळें, "तूं असो सुटचो ना. हांव वोगी रावचों ना. गोवेर्नादोराक सांगतलों. तो तुका फुक्यान सोडपार ना. हांव तुका--"

ठाऽ करून दुसरी गुळी बाबाल्या हड्ड्याक रोंबली.

विसेंत फिगरेद ते बायलेक घेवन गेलो. आनीक चार दिसांनी ते बायलेचें मडें रानांत पडिल्लें लोकांनीं पळयलें.

सरकारदरबारांत मात रिपोर्ट जालो तो असो: वैजपरबुल्या घरांत लिपिल्ले तेर्रोरीश्त ( क्रांतिकारक ) आनी सोलदाद हांचेमदीं जाल्ल्या फारमारांत वैजपरोब आनी तागेली बायल सोलदादांची गुळी लागून मेलीं. तेर्रोरीश्त पळून गेले.

ही सगली खबर म्हाका मुंबयत कळ्ळी. आयकनाफुडें म्हजी कितें आवतिकाय जाल्ली ताजी कल्पनालेगीत करूं नज आतां. फुलती कळी उज्यांत पडून करपून वचची तशें जालें म्हाका. आई-बाबाच्या उगडासान हड्डें फुटून रडूं येवपाक लागलें. तेचबराबर विसेंत फिगरेदीक नानपश्चात करपाचो सोपूत हांवें घेतलो. विसेंत फिगरेदीकडेन दुस्मानकायेचें नातें

जोडून हांव गोंयां येवपाचें चिंतूंक लागलों. पुण गोंयां वचपाक म्हगेल्या सोयऱ्यांनीं म्हाका आडमेळीं हाडलीं. कोणालेंच आयकून घेवपाचे मन-स्थितींत हांव नाशिल्लों. पुण मावशेन सांगलें तें आयकून म्हाका रावचेंच पडलें. तिणें म्हणिल्लें, " भावोजीन तुका म्हजे सुवादीन केला. तुजी राखण करपाची जापसालदारकी म्हजी. फाल्यां तूं गोंयां गेलो जाल्यार वैजपरबुल्या घराण्याची ही निमणी आंकरी मारून उडोवपाक तो दुश्ट विसेंत फिगरेद फाटींफुडें पळोवपाक ना...गोंयां वचपांत तुजें हीत ना. ते भायर आनीक एक सांगतां–भावोजीली इत्सा आसली तुवें दोतोर जावची. आतां पयलीं तूं दोतोर जा आनी मागीर तुका बरें दिसता तशें कर. भावोजीली इतली इत्सा तरी फळूं दी. "

मावशेलें मानून घेवचेंच पडलें. पुण विसेंद फिगरेदीच्या सुडाचो उजो मात सदांच धगधगत रावलो. ताका मारपाची सपनां पळयलेबगर म्हगेलो अेकूय दीस उदेलो ना.

० ० ०

: ४ :

मोटर केन्ना आबे द फारीय बगलेक पावली कळ्ळेंच ना. मार्तीन मोटरींत बसनाफुडें हांवें मोटर उरफाटी घुंवडायली आनी मिरामारचे दिकेन दामली.

"शॉकाद काय कितें रे ?" मार्तीनान म्हज्या तोंडाकडेन पळयत विचाल्लें.

म्हज्या मनांतलें मोड मार्तीनाक कशें कळचें ? हांवें वयल्या वयर हांसून म्हळें, "ना रे ! बेटेंच अजाप कशें जालें."

"म्हाकाय अजाप जालें ! आयज हांव रायबंदरा गेल्लों. म्हगेलो मामा रावता थंय. हांव भायर सरपाक फुडचांतच एक मोटर थाल्ली. आनी हांवें सटच् करून म्हळें, 'आरे, सारको विसेंत फिगरेद कसो दिसता न्हूं ?' मामान म्हाका सांगलें तो विसेंत फिगरेदच म्हुण. मामाल्या घराफुडचांतल्या बंगल्यांत जो भाटकार रावता तो फिगरेदीलो आमीग खंय. म्हाका मागीर तुजो उगडास जालो. तुका ताजो भोव राग येतालो न्हूं ?"

हांव दोनूय दाडवणां चिड्डून वोग्गी राविल्लों. भितरयां उजो धग-धगतालो. विसेंत फिगरेद गोंयां आनी हांव शांत ? कशें जावं येता ?

"उलय मरे !" मार्तीनान म्हज्या खांदार थापट मारून म्हळें.

"अेऽ पळय, आमी पावले मिरामार. आतां उलोवंया." हांवें मोटर निट्ट भितोड्डेक व्हरून कुशीन उबी केली.

"एक सांग मार्तीन ! फिगरेद गोंयां सो आयला ?"

"आब्बा ! कोंणूय सांगतलो. एक्स्पोझिशन आहा न्हू रे ? गोंयच्या सायबाक चोवपाक जायते जाण येयल्यात पुर्तुगाला सावन."

"कितले दीस उरतलो ?" हांवें बारीकसाण घेतली.

" म्हाका खबर ना बाबा ! आनी आंसू ती खबर आतां. हांवें बेश्टोच पिकार केलो तुका खबर सांगून--" खऱ्यांनीच मार्टीनाक खंयच्यान सांगलें काय जाल्लें.

" तातूंत कांय ना रे ! हांवेंय बेठेंच विचाल्लां तुका. " इतलें म्हणटासर हांवें मोटर स्टार्ट मल्ली.

" आरे ! रावना रे मातसो ? रोखडें वचप ? "

" या. म्हाका मातशें काम आसा. " इतल्यान म्हाका याद जाली. गाडी गिअरांत घाली. पुण क्लचावयलो पांय काडनासतना हांवें विचाल्लें. " आरे, पुण तो रावता खंय तें सांगलेंच ना तुवें. "

" आब्बा ! तूं सगलें म्हाका विचारता-हांव कितें आमीग रे तागेलो ? "

हांव वयलेचाराक हांसलों. " भंगूं तें " अशें तोंड केलें आनी गाडी घुंवडायली. मार्टीनाक प्रासार सोडलो आनी बद्द ब्लॉकार गेलों. मालीची याद लेगीत जाली ना.

० ० ०

: ५ :



गोंयची सुटका जाली तेन्ना बेगोबेग हांव गोंयां आयिल्लों. सुटी नासली तरी. . .एकेच वानसेन–विसेंत फिगरेदीचो सूड घेवपाचे. पुण विसेंत फिगरेद म्हाका दिश्टी पडलो ना. हांवें काय ताका पयलीं पळोवं नासलों. पुण हांवें सगलेकडेन खबर केली. कितलेकडेन फावटी माल्ल्यो. पाखल्यांक दवरिल्ले थंय सगलेकडेन खबर केली. विसेंत फिगरेद खंयच मेळ्ळो ना. मेळिल्लो जाल्यार मात कसोय करून ताका जितो मारपाची म्हजी तयारी आसली. पुण एकल्या कडल्यानूय सारकी खबर मेळ्ळी ना. कोणें सांगलें तो पळून गेलो. कोणें सांगलें ताका बंदखणींत घाल्लो आसा. कोणें सांगलें ताका पुर्तुगालाक धाडलो लेगीत––

निमाणें ताजी सोद घेवची सोडून हांव काणकोणा म्हज्या घरा आयलों. ‘ घरा ’ वोगीच म्हणप. घराचें ‘ घरपण ’ गेल्लें. पुण उगडासांक खतखतो आयलो. आईबाबाच्या यादींनी म्हजो जीव घुसमटून गेलो. आईन म्हजेखातीर काडिल्ले त्रास, बाबान म्हाका दिल्ली शिकवण आनी देख, म्हज्या वायटावेळार दोगांयनीं सोशिल्लीं जागरणां, म्हजी वेळा-वेळार केल्ली अर्थअपुर्बाय. . .आनी निमाणेकडेन हांव मुंबय वतना बाबाल्या दोळ्यांतल्यान घळसणून म्हज्या हातांचेर पडिल्लीं तीं हूनशीं दुकां ! बाबालीं उतरां म्हाका येवजून आयलीं. ‘ म्हजेकडेन आसा तें सामान्य ज्ञान, तूं जोडटलो तें विज्ञान. दोगांयचो मेळ घाल आनी जैतवंत जा. तुजी किर्त दिगंत जाल्ली म्हाका पळोवंक मेळ्ळयार पुरो. ’

म्हाका हड्डें फुटून रडूंक आयलें. दुकांचो भार उणो जालो तेन्ना हांवें ‘ दोतोरकी ’ पूर्ण करून बाबाले इत्सेक पाळो दिवपाचो नित्शेव करून दोळे पुसले. पुण बाबाकडलीं वखदां, झाडापाल्याचें गिन्यान, पाळा-मुळांची कुवाडीं आनी हेर सेगरेदी बाबावांगडाच गेल्ल्यान तांचो उपेग

करप आतां म्हज्या हाताभायरें ही जाणविकाय म्हाका जाली आनी 'दोगांयचो मेळ घालून दिगंत किर्त जोडपाची' म्हजी उमेद खुबशी जिरिल्लेवरी जाली.

फुडें शिकून हांव एम. बी. बी. एस. जालों. ग्रँट मेडिकल कॉलजांतच रजिस्ट्रार म्हुण काम करून एम. एस. जालों. गोंयांत आतां 'घर' अशें नाशिल्ल्यान परतुपाची उमेद नाशिल्ली. पुण मुंबय तरी म्हगेलो असो कोण आशिल्लो? थंयूय म्हाका उबगण येवपाक लागली. थोडिशी प्रॅक्टिस केली. गिल्यान आनी अणभव गांठीक घेवन गोंयांत आयलों.

फट सांगिना, इतलींय वरसां विसेंत फिगरेदीचें कल्पनीक चित्र दोळ्यांमुखार हाडून ताका जिवो माल्लेबगर म्हजो एकूय दीस सल्लो ना. रातचो हांतुणाचेर पडनाफुडें विसेंत फिगरेद म्हज्या दोळ्यांसामकार येतालो. बाबाआईलें तें तेजिश्ट मरण म्हाका प्रवृत्त करतालें. आनी खिणांत हांव विसेंत फिगरेदीक मारून पिंदून ताज्यो तिसत्यो करतालों.

गोंयां पणजेच्या मेडिकल कॉलेज हॉस्पिटलांत जनरल सर्जरीच्या लेक्चररचो पोस्ट मेळ्ळो म्हाका. हॉस्पिटलाच्या वावरांत हांव घुसपून उल्लों. पिरायेची तीस सल्लीं तरी लग्नाच्या बंधनांत घुसपनासतना मेकळो रावलों. सोयरिको येताल्यो. पुण म्हाका लग्न जायन दिसनासलें. दोन कारणां आसलीं. आग्रो करपी असो घरचो मनीस कोण नासलो. एकलें रावपाची संवंय जाल्ली आनी तातूंतच गोडी लागिल्ली. दुसरें कारण—खंत आसली. एक काम अजून हांवें करूंक नासलें. विसेंत फिगरेद जिवो आसा वा आसूं ये, म्हज्या आईबाबाक मारून तो जिवो उरूंकच फावना.

हांव कॉलेजींत आसतना आमकां शिकयताले—'हें spinal cord! हाका धको लागल्यार मनीस मरता-कानसुलाचेर मारिल्लें थापट वरमार बसलें जाल्यार आक्ताक जीव वचूं येता—मेंदवाचे फाटलेवटेन medulla oblongata म्हुण नाजूक भाग आसा देखून मानेर थापट माल्ल्यार मनीस सट करून मरूंक शकता.

जितल्या फावटी हांवें हें आयकलां तितल्याय फावटी हांवें मनांतल्या मनांत विसेंत फिगरेदीक मारून उडयला. खंयचें वीख कितलें वायट

हें शिकतना हांवें विसेंत फिगरेद मेळ्ळचार हेंच वीख दिवप अशें थारायलां. आजुनूय हांव तेंच करतां.

० ० ०

# : ६ :



मालीची आनी म्हजी वळख जाली ती मालील्या बापायच्या ऑपरेशनाच्या वेळार. उपरांत वळख वाडत गेली आनी माली म्हाका खुब्ब लागीं आयलें.

पयलेच खेपेक आमी पासयेक गेलीं तेन्नाची गजाल. दोनापावलाक ते धाकटुले दोंगुल्लेचे तेंगशेर आमी उबीं राविल्लीं. रेलिंगाक तेंकून माली उबें आशिल्लें. आनी हांव शेकानशेक पातळिल्लो शांत निळो दरया पळोवपांत गुल्ल जाल्लों. असो दरया पळयलो कि म्हाका बाबाची याद जाता. अजून चंद्रीम उदेवं नासलो. चंद्रीम केन्नाकाय उदेल्यार पुरोशें जाल्लें म्हाका. चंद्रीम म्हाका आईभाशेन दिसता. म्हजी तनरी भंगली मालील्या उतरांनी. तें म्हणटालें :

"हांगा रावल्यार भोंवतण कितलें सोबीतसुंदर दिसता, न्हीं? पुण तुवें सकयल पळयलां? कितलें सकयल आसा उदक! भंय सो दिसना?" आनी मदींच हांसून मालीन म्हळें, "जीव दिवपाक असली सुवात सोदून मेळपाक कठीण. उडकी माल्ल्यार सकयल्या तळपांक आपटून कपलमोक्ष जावपाकच जाय."

हांवें सकयल पळयलें. दोंगुल्लेच्या पायांकडेन कितलिशींच तळपां आसलीं—काळींकुट्ट, विद्रूप—दुश्टशीं—विसेंत फिगरेद कशीं—

"जीव घेवपाकूय असली सुवात सोदून मेळची ना!" म्हज्या दोळ्यांत नकळटना रगत चडलें. विसेंत फिगरेद दोळ्यांसामकार आयलो. आनी हांवें ताका धुकल्लो. किण्ण किळांच मारून तो शेंवटलो. धपोच्य करून त्या तळपांचेर आदळ्ळो. आनी—अस्तमतेचेरलेगीत रगताचो शिंवर——

"शीः! अशें कित्याक म्हणटा?" मालीन आंग शिरशिरावन म्हळें.

" तुका कळचें ना तें ! " हांवें भिरकेंतच जाप दिली. माली आतां निट्ट उबें राविल्लें. एक पावल फाटी घेतलें ताणें. पुण खिणांत तें मुखार आयलें. म्हज्या दंडाक घट धरून ताणें विचाल्लें, " विलास, कुवाडयांनीं उलोवं नाका. सारकें सांग ! तुवें अशें कित्याक म्हळें ? म्हजो सोपूत आसा तुका ! "

सोपूत ! आईय अशेंच करताली. हांवें कितेंय मनासारकें केलें ना जाल्यार सोपूत घालताली.

हांवें मालील्या दोळयांत पळयलें. म्हाका समजून घेवपाची ताजी तयारी आसली. हांवें ताका सगली खबर सांगली—एकान एक !

परतीं येतना माली म्हाका तेंक्कून बशिल्लें.

० ० ०

## : ७ :



ब्लॉकांत काळोख गुपाट आसलो. दिवे लायनासतना हांव बशिल्लों. हजार विचारांनीं तकलेंत खेट केल्ली.

ते गजालीक सोळा वरसां जाल्लीं. पुण जिणेंतलें रितेंपण रितेंच उरिल्लें. दुस्मानकाय सरुंक नाशिल्ली. म्हजी जीण रिती करून उडोवपी दुस्मान आज सोळा वरसांनीं हाताकडेन आयिल्लो. झेम काडपी सुडाची वानसा तट्टटून उठली. आईबाबा आशिल्लीं जाल्यार आज हांव उमेदीन भरिल्लों. जग जिखपाक भायर सरिल्लों असो एक जैतवंत दोतोर म्हुण किर्त जोडटलों आसलों. पुण हो विसेंत फिगरेद मर्दीं आयलो. म्हजे जिणेच्या वस्त्राक ताणें सुरी लायली. जिणेचें भरजरी वस्त्र करपाक भायर सरिल्लों हांव. . .आतां तिजें जालां कपयाळें ! आनी ताका कारण हो विसेंत फिगरेद ! ताका आतां——

आसूं दी ! सोळा वरसां जालीं ते गजालीक. विसर आतां. विसेंत फिगरेद गोंयां आयलोच ना म्हुण समज. . .शीः ! कसलो अभिमानशून्य पोटार्थी सुवार्थी हो विचार ! आसूं दी खंय ! हीं जालीं भिजूडपणां ! विसेंत फिगरेद ते बायलेक व्हरपाक आयिल्लो तेन्ना बाबाच्यान नज आसलें तिका विसेंत फिगरेदीच्या सुवादीन करून आपलो जीव वाटाव-पाक ? आईन कित्याक तिका वेंग मारून म्हळें, " हात लायशी, खबरदार " आनी हांव ?—कसल्या भयान म्हणटां ' आसूं दी. '

वोगीच आयलो ना विसेंतफिगरेद गोंयां ! भारत सरकारान पुर्तुगेज सरकाराकडेन संबंद जोडले हें निमित्त ! विसेंत फिगरेदीचो जीव म्हज्या हातसून वतलो हें विधिलिखीतच ! वोगीच हांवें इतलीं सपनां आनी दिसासपनां पळयलीं तर ?

रात जाली. पुण भूक लागली ना. या खिणाक हांव कुडीन न्ही तर

मनान जगतालों. मनाक एकच भूक लागिल्ली –विसेंत फिगरेदीची.

बरेऽ राती मालीची याद जाली. काकुळट बावड्याची. वाट पळोवन निर्शेलें आसतलें. आनी उपाशींच न्हिदलें जातलें–म्हजी वाट पळयत.

सुख लागना जालें. तकली कणकणपाक लागली तेन्ना हांव उठलों. फियाट काडली आनी बट्ट् दोनापावलाक गेलों. मध्यान जाल्ली. हांव सडसडीत वयर गेलों. दरया शांत आसलो. वयर चंद्रीम माथ्यार आयिल्लो. ते थंड सुवातेर पावनाफुडें म्हाका शांत दिसलें. पयस वास्कोच्या दरयांत नांगर मुंगरून आशिल्ल्या बोटींवयले हज्जारांनीं दिवे लिकलिकताले. दरयाची तनरी लागिल्ली. आनी चंद्राच्या शितळ चान्न्यांत धरतरी न्हातालीः आईचे कुशींत घालून घेतिल्लेवरी दिसलें म्हाका. दरयाचेर मंद ल्हारां उदेलीं. बाबा म्हाका सांगतालो जावंये––चिंतता कितें ? विसेंत फिगरेदीक हांवेंच ओडून गोंयां हाडला–तूं ताका मारून उडय. ताजे हालहाल करून मार ताका, ना नपश्चात कर.

म्हजें रगत तापिल्लेवरी जालें. हांवें रेलींगाचेर हात दवरून बाग घेवन सकयल पळयलें. दरयाचें एक ल्हार आयलें आनी तळपांचेर आपटलें. तळपां काचाबूल जावन म्हाकाच पळयतालीं–साप भियेल्लीं. म्हज्या दोळ्यांत पेटिल्लो उजो तांकां हुलपायतालो जावंये !

० ० ०

: ८ :



फांतोडेचेर दोळो लागिल्ल्यान उठून भायर सरून हॉस्पिटलांत पावतासर धा जालीं. पावनाफुडें नर्सीन सांगलें, सकाळच्यान तीन फावटी मालीलो फोन आयिल्लो म्हूण.

हांवें पयल्यापयलीं मालीक फोन करपाचें येवजिलें. रिसिव्हराक हात घाल्लो मात-सट्ट करून म्हाका रातीं जें हांवें मनोमनीं थारायिल्लें ताजी याद जाली. ना ! आतां हें उपकरचें ना ! आतां म्हजे जिणेंत मालीक सुवात ना. विसेंत फिगरेद या संवसारांतल्यान वचसर तरी हांवें मालीक विसरुंकच जाय. विसेंत फिगरेदीक मारून हांव सुको सुट्टलों कित्या वयल्यान ? हांवें सुळार वचपाची तयारी दवरूंक जाय ! आनी तेचखातीर मालीपसून पयस रावपाक जाय. रिसिव्हर तसोच दवरून हांव फाटल्या पायांनीं परतलों.

"दोतोर, आज टयुमरचें ऑपरेशन आसा. याद आसा, न्हीं ?" नर्स विचारताली.

आज तरी ऑपरेशन नाका आसलें. खीणभर दिसलें,फाल्यार उडोवचें. पुण मागीर मन माल्लें. आयचें काम आजच जावपाक जाय–वैजकींत चड करून ! बाबानच शिकयिल्लें तशें म्हाका !

ओ. टीं. त वचपाक पांय उखल्लो आनी फोन आयलो.

"हॅलो, विलास ! कितें जालें ?" मालीलोच फोन.

"अंऽ ! कांय ना."

"कांय ना कशें ? काल तुवें येतां म्हळें––हांव रावलें. तूं––" मालीलें रडकुरें परतल्लें मुखामळ म्हजे नदरे मुखार उबें रावलें.

"I 'm sorry"

"विलास ! जालां कितें तुका ? राव. हांवच येतां थंय !"

"नाका–नाका. हें पळय. आतां एक मेजर ऑपरेशन केस हातांत घेतिल्ली आसा. तूं सांजवेळा फोन कर. मागीर उलोवंया. ओ. के." आनी जापेची वाट पळयनासतनां. हांवें रिसिव्हर सकयल दवल्लो. दवरताखिणीं बेल वाजली. पर्थून रिसिव्हर कानाक लायलो.

"हॅलो, get me Dr vilas, please."

"विलास स्पीकींग!"

"आरे, हांव मार्टीन. वळखलोच ना तुजो आवाज."

"तें आसूं. फोन कित्याक केल्लो?" हांवें उचांबळ जावन विचाल्लें.

"बेश्टोच. काल तुवें म्हाका विचाल्लें, विसेंत फिगरेद खंय रावता काय म्हुण! कित्याक विचाल्लें तुवें?"

"हांवें बेश्टेंच विचारिल्लें. curiosity म्हुण! पुण तुवें फोन कित्याक केल्लो?" मार्टीन कितेंय तरी सांगूंक सोदतालो अशें दिसलें म्हाका.

"तेंच रे! सकाळीं हांव "सेझा गोआ" च्या ऑफिसांत गेल्लों. आल्तिन्याचेर! तेवटनेच्यान एक कार पासार जाली. विसेंत फिगरेद आसलो भितर. कार व्हॉल्त मारून सर्कीट हाउसाकडेन गेली. म्हाका दिसता, तो सर्कीट हाउसांत रावता जावं जाय!"

"अं!–आनीक कितें खबर आसा?" हांवें विचाल्लें.

"That's all! तुवें काल विचारिल्लें देखून फोन केलो तुका."

"Thank you Martin!" हांवें रिसिव्हर सकयल दवल्लो.

सडसडीत सगलीं कामां केलीं. सदचे संवयेन ऑपरेशनूय बरें जालें. सांजचो पर्थून मालीलो फोन आयलो. तोंवेर हांवें मनाची तयारी केल्ली.

"हें पळय माली! आतां मातसो ताकतिकेंत आसां. पुण जिस्त स वरांचेर थंय येतां. तूं घराकडेनच राव. येतां म्हळ्यार येतां." मालीक उलोवपाची संद दिनासतना हांवें फोन बंद केलो.

पांचांपयलींच हॉस्पिटलांतसून भायर सल्लों. बद्द आल्तिन्याचेर गेलों. आनी गाडी सर्कीट हाउसाकडेन घुंवडायली.

"बुकींग करपाक जाय." हांवें बुकींग क्लार्काक म्हळें.

"केन्नासावन?"

" फाल्यांच्यान–" हांवें बेठेंच म्हळें. तागेली जाप म्हाका अपेक्षितच आसली.

" I 'm sorry ! आनीक धा दीसमेरेन तरी खब्बर काड् नाका–"

हांवें तोंड इल्लेंऽ करून संवंग सोबयलें. आनी खबरी मारपाच्या निमतान म्हळें, " ह्या एक्स्पोझिशनाक लागून चड गर्दी जाल्या न्हीं ? "

" हय. आनीक पन्नास रूम आसल्यार लेगीत पावचे नासले. "

" फोरेनर्स लेगीत रावतात जातले हांगा न्हीं ? "

" हय तर ! " बुकींग क्लार्क खबऱ्यांच्या नेटार सांगूंक लागलो, " सगलीं हॉटेलां फूल ! लोकांक रावपाकच मेळ्ळयार पुरो जालां. "

" एक सांगशी ! विसेंत फिगरेद म्हुण एकलो रावता हांगा ? ह्या दिसांनींच आयला. पयलीं पुर्तुगेजावेळार आसतालो तो हांगा तेन्ना वळख आसली आमची––"

" आंऽ ! तो पाखलो रे ? –" बुकींग क्लार्क म्हजेलागीं आतां संवकळिचो जाल्लेवरी उलोवपाक लागलो.

हांवें मनांत म्हळें, " पाखलो खंयचो ? मिस्तीस तो पाडपडिल्लो ! "

बुकींग क्लार्कान रजिस्टर उकतें करून नांव पळयलें आनी म्हळें, " यस ! विसेंति फिगरेदो रूम नंबर अंऽऽ–" आनी फाटल्यान बोर्डाक चावी लायिल्ली पळोवन फुडें सांगलें, "–पुण तो आतां रुमांत ना. भायर सैल्ला. कितें सांगूंक जाय ? "

" ना. ना. हांवें बेश्टीच खबर केल्ली. बरें ! रूप व्हेकंट ना म्हणटा न्ही तूं ? " अशें म्हणीत हांव भायर सल्लों.

बद्द मालीगेर गेलों. मालीक पळयनाफुडें काळजांत कल्ल जालें. रातीं उपाशीं न्हिदिल्लें–न्हिदिल्लें तरी काय ?–आनी दीसभर हुसक्यांत सारिल्लो. आतां ताजी दशा पळयनाफुडें म्हजें म्हाकाच वायट दिसलें.

" चल, माली ! भायर सर. "

" भायर कित्याक ? हालीं भायर खुब्ब गर्दी आसता. " मालीन म्हाका बसपाक कुरू करून सांगलें.

" बरें तर ! " हांवें फॅन लायलो आनी वोल्तेराचेर वचून बसलों.

" बस आं ! काफी इल्ली करतां–" माली भितर गेलें. म्हाका काफी

नाका आसली. पुण माली काफी करतासर म्हाका येवजुपाक वेळ मेळटलो अशें येवजून हांव वोगी रावलों.

माली काफी घेवन आयलें तेन्ना म्हजी चित्तवृत्ती थीर जाल्ली.

"कितें जालां तुका विलास? काल कित्याक आयलो ना तूं?" संवसारांतलो सगलो मोग आनी हुसको मालील्या दोळ्यांत एकवटीत जाल्लो. ताज्या दोळ्यांत पळयनासतना हांव सांगूंक लागलों.

"तेंच सांगतां. माली, तुजी म्हजी वळख आतां दाट जाल्या. पुण आता आमी मेळप सोडिल्लें बरें. लग्न म्हज्या नशिबांत ना. हांव आंक-वारच रावतलों."

माली घुसपलें. तोंडावयली सय गेली. धवे जाल्ले ओंठ उलोवपाचो येत्न करताले. उतरां जुळनासलीं जांवये वा ओंठ जुळनासले जावंये. उतर फुटलें ना. हांवेंच फुडें सांगलें,

"माली, तुका हांवें फाटीं सांगिल्लें. सगळें सांगिल्लें. ज्या दुश्टान म्हज्या बाबाक आनी आईक जिवीं माल्लीं आनी म्हजी उमेद मातये-भरवण केली तो विसेंत फिंगरेद गोंयां आयला—गोंयच्या सायबाच्या निमतान. ताज्या कपलांत मरण आसा तें म्हज्या हातसून. तें आतां कोणाच्यान चुकोवं नज."

"विलास,...तूं..." मालीन उलोवपाक तोंड उकतें केलें. पुण तेंच जावन वोगी रावलें.

"हय. तुका हांवें सांगलां—म्हजी जीण हांवें त्याच कामाक ओंपल्या अशें समज. विसेंत फिगरेदीक मारपाची सपनां हांव इतले दीस पळेयत आयलों. आतां सपनां सोंपलीं. आतां हांव ख-यानिशीं ताका मारतलों.... तूं अशें पळोवं नाका माली! हांवें जें सोंसलां तें तुका खबर ना. सोळा वर्सांचो काळलेगीत हो सुडाचो उजो पालोवंक पावलो ना. एकच वायट दिसता, आईक आनी बाबाक जें मरण आयलें ताजेमुजार विसेंत फिगरेदीक येतलें तें मरण जायतें बरें आसतलें."

मालीन हुसकारो सोडलो. ताजे दोळे ल्हवुल्हवू लिकलिकपाक लागले. मुखामळ उजळ्ळें.

"विलास, हांव तुजे सांगणेभायर ना. ताका ख्यास्त केलेबगर तुकाय

सुशेग मेळचो ना. आनी आईबाबाल्या आत्म्यांकूय शांती मेळची ना. म्हजें एकच मागणें; तुका कसलीय गरज आसल्यार म्हाका सांग. जाता जाल्यार हांव आनी तूं मेळून तें काम करूं या. ”

हांव पळोवपाकच उल्लों. मालीची लक्तुबाय दिसली म्हाका. म्हाका दिशिल्लें तें रडटलें, काकुळटे येतलें आनी सोपूत बिपूत घालून म्हाका परावृत्त करूंक पळयतलें.

“ Thank you माली ! पुण हांव सांगतां तें सारकें आयकलें ना तुवें. जें काम हांव करूंक सोदतां त्या कामाक हात घालचे पयलीं आमी एकामेकांक विसरूंक जाय. ”

“ तशें कित्याक तर ? ” मालीन सट्ट करून विचाल्लें. हांवूच खीणभर घुसपलों.

“ एका खुन्यालागीं संबंद दवरून एके वरे चलयेन आपणालो सुखांतलो जीव त्रासांत उडोवचो न्हीं. ”

“ तो चलयेचो प्रस्न ! ”

“ पुण फाल्यां—”

“ पुणबीण कांय नाका. विसेंत फिगरेदीक तूं मारतलो हय मूं ? मागीर तें जगार कित्याक घालूंक जाय ? विसेंत फिगरेद कसो मेलो तें कोणाकच कळूंक फावना. बस्स. काम जालें. ”

मालीन कांय न्ही शें केलें. आनी म्हजें म्हाकाच तें खरेंय दिसलें. मालीकडेन उलोवचेपयलीं हांव मार तयारी बी करून आयिल्लों. पळय जाल्यार माली म्हज्याय फुडें आशिल्लें. काम कितलें सोपें करून दाखयलें ताणें ! विसेंत फिगरेदीक माल्लो कि म्हजें काम सोंपलें.

आमी त्या दिसा चड कांयच उलयलीं नात. पुण हांवें मालीक एक मात सांगलें, “ हांव आतां विसेंत फिगरेदीचो जीव घेतलेबगर शांत जावपार ना. तूंय मेळपाचो येत्न करूं नाका. ”

“ तुका सांगलां न्ही हांवें कसलोय आदार जाय जाल्यार सांग म्हुण ! तें मात विसरूं नाका. ! ”

इतली समजिकाय ह्या पोराक खंयच्यान आयली हाजें अजाप करीत हांव वोगी रावलों.

ते राती आमी दोगांय हॉटेलांत जेवलीं. हांवें मालीक तागेल्या घरा-कडेन सोडलें आनी हांव बद्द ब्लॉकार गेलों.

कोणाक कळनासतना विसेंत फिगरेदीक मारपाखातीर खंयचो उपाय आपणावचो तेंच येवजना जालें. खुब्ब वेळ येवजिल्या उपरांत हांवें एक प्लॅन तयार केलो.

दोतोर जाल्ल्यान खंयचें विख्ख कशें कशें बरें तें हांव बेस जाणा आसलों. सकाळीं खासा फार्मासींत वचून पोटॅशियम सायनायड घेतलें. दोतोर जाल्ल्यान रोखडेंच मेळ्ळें. दनपारां जेवपाकच सर्कीट हाउसांत गेलों. पुण विसेंत फिगरेद जेवपाक आयलो ना. रातचो पर्थून गेलों.

"ओऽ तो पळय मदीं पाखलो बसला तोच तो विसेंत फिगरेद ! " एका जाण्टचा वेटरान सांगलें. आज पयलेच खेपेक हांव दुस्मानाक पळयतालों. म्हजे कल्पनेंतलो विसेंत फिगरेद दिसपाक वेगळो आनी मातसो चड भयांकृत आसलो. पुण दिसपाचेर कितें आसता ? ती दुश्ट करणी करपी तो होच तो ! होच तो ! !

विसेंत फिगरेदी वांगडा आनीक दोग जाण आसले. गोंयकारच दोगूय ! केदोवेळ ते पियेत आसले. म्हाका कशीच संद मेळ्ळी ना. बरें, हांव तर पियेवपी न्हीं. केदोवेळ म्हुण बसतलों ? तरिकूय कोण तरी मेळपाक येवपाचो आसा, ताका रावतां म्हुण सांगून घडयाळीकडेन पळेत इकरा वरांमेरेन बसलों. म्हगेल्या कदेलार बसून हांवें विसेंत फिगरेदीक पोटंभर पळोवन घेतलो. फाल्यां भायर मेळ्ळो जाल्यार विसरूंक फावना इतलो पळयलो. ताका पळयतना फाटली याद घडयेघडये येताली. आनी कपला-शीर फुगत वताली. हात पर्थून पर्थून बोल्स सांसपितालो. पुण संद येना-सली. ते दोगूय उठून गेल्यार मात हांव संद होगडावपाक तयार नासलों. पुण तशें जालेंच ना. ते सगलेच उठले आनी म्हाकाय उठचें पडलें.

दुसऱ्या दिसा दनपारां हांव पर्थून गेलों. पुण उकसार पावुनय आदाव जालो ना. विसेंत फिगरेद नासलो. हांवें जेविल्लेभशेन केलें आनी भायर सल्लों.

"मिस्टर ! शूऽत ! " पयरचो तो बुकींग क्लार्क म्हाकाच हटकितालो. खीणभर म्हाका ताजी तिडक माल्ली. म्हजी वळख करून दिवची आनी

दोन समजिकायेचीं उतरां सांगचीं शें दिसलें. पर्थून दिसलें, झक माल्ली. हांवें म्हगेले वाटेन वचचें. पर्थून ताणें, "आयक. सांगतां" अशी कुरू करून आपयलो आनी हांव ताजेसरी गेलों.

"तो पाखलो परां वता!"

"खंय?" हांवें कांय येवजना जावन विचाल्लें.

"खंय म्हणचे? पयलीं बॉम्बे! मागीर थंयच्यान पुर्तुगालाक."

म्हजे तकलेंत पर्थून मोड जावपाक लागलें. विसेंत फिगरेद परां वता. आनी हांवें अजून कांयच करूंक ना!

बुकींग क्लार्काक म्हजेकडेन खबरी मारपाची उमेद आशिल्ली. पुण ताजे उपकार मानपाचें लेगीत भान म्हाका उल्लें ना. हांव सडसडीत भायर सल्लों आनी मोटर स्टार्ट केली. आनी आल्तिन्यावयल्यान गाडी सकयल हाडली. मदींच सायलन्सराक कार्बन आडखळ्ळो. 'ठोऽ' करून आवाज जालो. तनरी लागिल्ली म्हजी. हांवें आंग काडलें. आनी सट्टकरून म्हाका याद जाली. हॉस्पिटलांत पावनाफुडें हांवें फोन केलो.

"हॅलो, माली? हांव विलास! सांजचें आसतलें मगो? हय. येतां. डॅडी येवंक ना अजून? ओ. के."

वेळ साप थोडो उरिल्लो. हांवें रजेखातीर अर्ज केलो. आनी डीनाक फोन करून अडचण खुब्ब गरजेची म्हुण सांगलें.

पांचांकूच मालीगेर गेलों. माली म्हाकाच रावतालें.

"जालें?" मालीन उमळशिकेन विचाल्लें.

"ना. आनी आतां वेळूय थोडो आसा. तो परां गोंयांतून वता."

"मागीर?"

"तुवें म्हाका सांगिल्लें गरज पडल्यार सांग म्हुण."

"केन्नाय! सांग. कितें करूं?" मालीलें मुखामळ उजळिल्लें.

"तुगेल्या डॅडीलें पिस्तोल आसा न्हीं?"

"हय."

"म्हाका मातशें दी तें."

माली खीणभर रावलें. पुण खीणभरच.

चावयां घोंस घेवन तें भितर गेलें. आनी रोखडेंच पिस्तोल घेवन

परतलें.

म्हाका भंय दिसतालो. डॅडी बराबर घेवन गेला जायत म्हुण. वा मालीच तशें सांगीत म्हुण.

" . . .आनी हीं कारतुसां. तूं जाणा कशें मारप तें ! हो घोडो. कारतूश हांगा. . .अशी घालप. ही सेफ्टी कॅच अशी करप आनी घोडो ओडप. काम नासल्यार मात कॅच अशी बंद दवरपाक विसरूं नाका. " मालीन थंडसाणेन सगलें दाखयलें. ते अवस्थेंतूय म्हाका मालीची तोख-णाय दिसली.

" तुका कशें कळ्ळें गो ? तूं वापरता काय कितें ? "

" डॅडीन म्हाका दाखोवन दवल्लां—केन्नाय गरज पडत म्हुण. पळय. गरज पडली ना ? " आनी माली हांसलें, " आनी विलास, पयसुल्ल्यान नेम धरूं नाका. चुकतलो. जाता जाल्यार लागशिल्ल्यान जोख. पयलेच गुळयेक काम जावं दी. "

" थँक्यू, माली ! एक काम जालें. फुडलें म्हजेर. तुगेल्या बापायलें पिस्तोल लेगीत कोणाच्या हाताक लागपार ना. "

मालीन तकली हालयली. आनी म्हऱ्यांत येवन दंडाक धरून म्हळें, " हांव येवं बराबर ? "

" नाका, माली ! तें काम हांवेंच करपाचें ! पवित्र काम तें ! पुण्य म्हाका एकल्याकूच जोडूं दी. "

" सांबाळ. कोणाक कळूंक फावना. "

० ० ०

## : ९ :



ते रातीय म्हाका संद मेळ्ळी ना. विसेंत फिगरेद जेवपाकूच आयलो ना. दुसरो दीस उजवाडलो. फाल्यां तर तो वतलो. हांव विसेंत फिगरेदीक तेळपाक लागलों. सकाळीं ताका कोण मेळपाक आयले. तांचेबराबर जो गेल्लो तो बद्द साडेबारांक आयलो. हांव तयारच आसलों. दोनूय आयुधां घेवन ताजी वाट पळयतालों. एका ब्रोल्सांत विख्खाची बाटली आनी दुसऱ्यांत पिस्तोल ! आज कसलोच प्लॅन घेवन येवंक नासलों हांव. येतली ती पयली संद हातासपाचे नदरेन हांव तयार राविल्लों.

विसेंत फिगरेद आयलो तो बद्द रुमांत वचपाक गेलो. पांच मिनटां रावन हांवेंय वयर वचपाचें येवजिलें. जिस्त रुमांत मेळटलो. एकलोच आसतलो. फार मारपाक भांगराची संद. बुकिंग क्लार्काची नदर चुकोवन हांव वयर वचपाक गेलों. इतल्यान विसेंत फिगरेद एकल्या वांगडा सकयल देंवलो. हांव बेठोच वयर गेलों आनी इस्काद देंवन सकयल आयलों.

विसेंत फिगरेद त्या मनशावांगडा पिवपाक बशिल्लो. हांवें पयसुल्लें कदेल ओडलें आनी कोकाकोला घेतलो. तांणीं जेवण मागयिल्लें पळोवन हांवेंय चिकन बिर्याणी मागयली. पोटाक भूक नासली. विसेंत फिगरेद जेवन वयर गेलो जाल्यार तागेल्या रुमांत वचून ताजो जीव घेवपच अशें हांवें चिंतिल्लें. पुण तशें घडलें ना.

विसेंत फिगरेद तागेल्या इश्टाबराबर भायर सल्लो. हांवेंय गाडी भायर काडली. विसेंत फिगरेद बशिल्ली अँबेसेडर फुडें आनी म्हगेली फियाट फाटीं. हांव सदांच आल्तिन्या वयल्यान देंवतना गाडी रेडिओ स्टेशना-कडेन हाडून सकयल घुंवडायतां. पुण अँबेसेडर गाडी आयल्यान बिस्मा पालासी फुडले देंवतेरच सकयल देंवली. हांवेंय देंवयली. दुबावाक जागो

नाका म्हुण हांव मातसो पयस राविल्लों. इगर्जेकडेन पावपाक अँबेसेडर फुडें गेली आनी ट्रॅफिक कंट्रोलच्या पोलीसालो हात आडवो आयलो. रावचेंच पडलें. दोन मिनटां चिटमिटे खावन जाल्या उपरांत सुटलों. पुण तोमेरेन अँबेसेडर खंयच्यान गेल्ली आनी खंय पाविल्ली कोण जाणा !

सांजचो हांव तेळटेर रावलों. कितलेशेच वळखिचे येताले वताले. म्हाका पळोवन वळख दाखयताले, हटकिताले. पुण हांव उबगलों ना. आठ जायत आयलीं तेन्ना हांव सर्कीट हाउसांत भितर सल्लों. अजून विसेंत फिगरेद भितर सरूंक नासलो. बुकींग क्लार्कान म्हाका पळयलो-पुण ताका काल हांव जाप करनासतना गेल्लों तो राग आशिल्लो जावंये· ताणें म्हाका हटकिलो ना. हांवूच ताज्या म्हऱ्यांत गेलों.

“ हॅलोऽ ! जाला रूम व्हेकंट ? ”

“ नो, सर ! ” ताणें जाप दिली. नमळिकायेन अशी न्ही, संवंय म्हुण !

“ विसेंत फिगरेद आसा भितर ? ” हांवें बेठेंच विचाल्लें.

“ ना. भायर सल्ला. ”

“ फाल्यां वता खंय तो ? ”

“ काल हांवेंच सांगिल्लें तुका ! ” बुकींग क्लार्क अजुनूय मुडांत येवं नासलो.

“ हय. पुण काल हांव बरो ऽऽ नाशिल्लों—” हांवें बेठेंच म्हणिल्लें. पुण तो समजलो हांव ‘ तायट ’ आशिल्लों म्हणटां म्हुण. समजल्लेंभशेन करून म्हणूंक लागलो,

“ दिशिल्लेंच म्हाका. जावं ! फाल्यां सकाळीं वतलो तो पाखलो—म्हळ्यार दनपारचे फ्लाइटीर. ”

हांवें बेठीच घडयाळ पळोवन म्हळें, “ आतां काय बेगीन येतसो दिसना न्हीं ? ”

“ ना. ना. आज ताणें पार्टी दवरिल्ली हांगा आपणांल्या आमिगांक· पुण मागीर कॅन्सल केली खंय—”

हाजो अर्थ तो भायर जेवन येतलो—अशें चिंतून हांव चड वेळ थंय रावलों ना.

रातभर दोळो लागलो ना. दुसऱ्या दिसाखातीर फूलप्रूफ प्लॅन करपाक

जाय आसलो. हे फावट सावद सुटलें जाल्यार जल्मभर म्हाका पस्ताव-पावगर काम उरचें नासलें. खुब्ब विचार केलो. विसेंत फिगरेद मरूंक जाय आनी हांव सोंपेपणीं सुटूंक जाय. दोनूय चिंतूंक गेल्यान इतले दीस फुकट गेले. ना ! तशें करूंक गेल्यार प्लॅन फूलप्रूफ जावपार ना. विसेंत फिगरेदीक मारून हांवें सुकी काश्टी दाखोवपाक सोदप हीच म्हाका लज. जावं दी गांवार ! कितें जातलें ? लोक म्हाका खुनी म्हणटले ? केन्नाच ना ! आवयबापायचे निर्घृण हत्त्येचो सोळा वर्सांनी घेतिल्लो सूड अशेंच मानतले मूं ? बरेंच जालें ! भंय आसलो मालीचो. पुण ताणें दाखयल्या ती समजिकाय पळयल्यार तें लेगीत म्हाका दुशण दिवपार ना ! मागीर –

येवजण तयार केली. घोळून घोळून पळयली. मनाचो निश्चय केलो आनी शांत चित्तान न्हिदपाक गेलों.

० ० ०

: १० :



बारां वरांमेरेन विसेंत फिगरेदीन इंडिअन एअर लाइन्सच्या ऑफिसा. कडेन पावपाक जाय वा निट्ट विमानतळार वतलो जाल्यार साडेबारां-मेरेन भायर सरूंक जाय. म्हणचे तो पावणेबारा ते साडेबारा हांचेमदीं सर्कीट हाउस सोडटलो. आतां विसेंत फिगरेदीक लिपचोरयां मारपाचो प्रस्नूच उरूंक नासलो. उकत्यार ताका मारपाचो. खुनी म्हुण सुळार चडचें पडल्यार कामा येता. म्हगेलो हो प्लॅन खऱ्यांनींच फूलप्रूफ आसलो. आल्तिन्या वयल्यान देंवतलें तें विसेंत फिगरेदीचें मडें म्हणपाची म्हाका खात्री आसली.

हांवें मोटार आल्तिन्याचेर वचपाचे वाटेर थारायली. मुखावयलो मारग बद्द रेडिओ स्टेशनाक तेंकतालो. उजव्यान दोंगुल्लेची फातराळ देंवती आसली आनी दाव्यान गेल्लो मारग उब्बी चडटी काडून बिस्मा-पालासीकडलीं मोडणां घेवन सर्कीट हाउसाकडेन वतालो.

इकरा जावन गेल्लीं. हांवें पिस्तोल भरुनच हाडिल्लें. गाडी थारावन हांव देंवलों. सर्कीट हाउसाकडल्यान जो मारग देंवन रेडिओ स्टेशना-कडल्यान इगर्जेकडेन देंवपी मार्गाक मेळटा ताज्या मातशा आयल्यानच हांवें गाडी थारायिल्ली. ह्या हेतान कि विसेंत फिगरेदीली गाडी बिस्मा-पालासी मुखावयले देंवतेचेर झूम्म करून येतली आनी उब्या रस्त्यार येवपाक उजव्यान टर्न घेवपाक सवकास जातली. व्हॉल्त घेनाफुडें हांव फुडें सरतलों. आनी हात दाखयतलों. म्हगेले आंगावयले मुस्तायके वयल्यान बरेंऽ कूळ लेखून गाडी रावपाकच जाय. विसेंत फिगरेद अेकलो आसलो जाल्यार बरेंच जालें. हांव दाराकडेन वचून विसेंत फिगरेदीक विचारतलों,

"तूं काणकोणच्या वैजपरबूक वळखता ?" ताका उगडास जावपाक

कळाव लागचो ना. . . " हांव ताजो पूत ! तुवें ताका असो मारिल्लो न्हीं ? " इतलें उलोवन हांव पिस्तोल उबारतलों आनी ताज्या हड्ड्यार मोखून घोडो दामतलों.

असो प्लॅन करीत सावन म्हाका सू जाल्लें. बदलो घेवचो जाल्यार असो. लिपचोरयां न्हीं. तें बायलांक सोबता. मालीन सुचयलें ते मालीक सोबलें. हांवें आयकून घेतलें म्हुण घाणलों. जावं ! तरी बरें जालें विख्ख घालूंक मेळ्ळें ना तें. ताका असोच मारप–फारान !

साडे-इकरा जालीं ! संद लागीं येतालीं. रगत तापूंक लागिल्लें.

कोणूय येतलो वतलो वळख दाखयतालो. हांवूय वयलेचाराक मान हालयतालों. बेठोच देखाव पळयिल्लेभशेन हेवटेनतेवटेन पळोवपाच्या निमतान विसेंत फिगरेदीची गाडी येता जाल्यार पळयतालों.

हांगा येवचेपयलीं हांवें सर्कीट हाउसांत फोन करून विसेंत फिगरेद थंयच आसा म्हणपाची खात्री करून घेतिल्ली. आतां एक फरक जावं येतालो. हांव केन्नाय वयल्यान देंवतना रेडिओमेरेन वचून मोडण घेवन देंवतालों. तसो तोय––! कसोय आयलो तरी देंवतलो ह्याच मारगान ! हांव हात दाखयतलों. तो रावतलो. मागीर––

मिनटां मिनटां सरतालीं. . . .

काळजाचे ठोके नेटान पडपाक लागिल्ले. म्हाका दिसलें, घडयाळिनूय काळजाची देख घेतल्यार कशी ? . . . .

बारा जायत आयलीं अशें म्हणीत हांवें वयर पळोवपाक विसेंत फिगरेदीली गाडी वयर दिश्टी पडली. सोमतीच बिस्मा-पालासीकडेन मोडण घेवन सकयल देंवपाक लागली. हांव सडसडीत आयल्यान सल्लों. तयार रावलों. गाडी देंवतली. मेन रोडार सरपाक उजव्यान घुंवतली. हांव फुडें सरतलों. आनी. . .

अँबेसेडर गाडी देंवपाक लागली. झूम्म करून नेटान आयली. आनी– आरेच्या ! कितें जालां तें कळचे पयलींच गाडी जी नेटान आयली ती उजव्यान घुंवचे बदलाक बद्द वचून मुखावयल्या झाडाक ढोऽ करून आपटली. आपटून रावली ना. घुंवली आनी मारगाची धड मोडून सकयल लवंडली. आनी सकयल फातराळ देंवतेचेर. . . 'घडोम्म' करून

आकांताचो आवाज जालो. आनी कितलेशेच लोक धांवत हेवटेनच्यान तेवटेच्यान एकठांय जाले.

आक्सिदेंत ! आक्सिदेंत ! ! बोव्वाळ ! म्हाका कितें करचें तेंच येवजना जालें. जालां त्या हिसबान विसेंत फिगरेद वांचप कठिणच. पुण अशें कशें ? अशें जावंकच फावना. विसेंत फिगरेदीक मरण म्हज्या हातचें. विधिलिखितच तें !

नकळटना म्हजीं पावलां फुडें सल्लीं. मोटर सकयल्या दोन धाकटुल्या झाडांमदीं शिरकून उरिल्ली. लोकांक धुकलीत हांव फुडें गेलो. धडेक तेंकुनच ड्रायव्हर पडिल्लो. झाडाक गाडी आपटली तेन्नाच तो भायर शेंवटल्लो. आनी भितर !——हय. विसेंत फिगरेदच तो. दैंव तरी कसलें ! असलें सोपें मरण ताका——

हांव सडसडीत फुडें गेलों. 'सांबाळ,' कोण तरी आड्डलो. देंवती उबी आशिल्ल्यान पायांपोंदचे गुंडे सकयल धांवताले आनी निसरून पडटा काय जातालें.

हांवें फुडें सरून गाडयेच्या दाराक हात घालो. मोडिल्लेंच तें–कर्रर्र आवाज करून उकतें जालें. विसेंत फिगरेद लुळोगुळो जावन पडिल्लो. हांवें नाडी पळयली. दोळे ओडून पळयले. बेगबेगीन दोगांक आफयले. ताका भायर काडलो. सांबाळून सांबाळून वयर हाडलो आनी म्हगेले मोटारींत फाटल्यान घालो.

अितले म्हणसर पुलीस आयली. इन्स्पेक्टर आडावपाक लागलो. हांवें म्हळें, " हांव दोतोर ! केस सिरियस ! हांव ताका हॉस्पिटलांत व्हरतां. तुमी कळाव करशात 'युवर रिस्पोन्सीबिलिटी ! " इन्स्पेक्टर फाटीं सल्लो. एक पोलीस म्हजेवांगडा दिवन तो पंचनामो करपाक गेलो.

विसेंत फिगरेदीक भौच मार लागिल्लो. कपलावयल्यान रगताची धार व्हांवताली. भोंवऱ्याकडेन माथें साप चेंचिल्लें. त्याभायर मोनो मार कितलो लागिल्लो हें अितले बेगीन कळपासारकें नासलें.

विसेंत फिगरेद मरपाक तेंकिल्लो. अजून मेलो ना हें म्हजें नशीब. तो असो मरूंक फावना. आक्सिदेंतान तो मेलो जाल्यार आईबाबाल्या आत्म्यांक शांती मेळची ना. ताजे हालहाल करुनच ताका मारूंक जाय.

फिगरेदीक फाटलो उगास करपाक लावन मागीर ताज्या सामकारा रावन जीव घेवपाचो प्लॅन तयार करीत सावन मनाक कशें प्रसन्न दिसतालें ! पुण आतां—ताका पयलीं बरो करुंकच जाय.

गाडी बद्द हॉस्पिटलांत Casualty क तेंकयली. उडकी मारून हांवें मुखार दिश्टी पडिल्ल्या सगल्यांक हुकूम फर्मायले. दोन मिनटांभितर विसेंत फिगरेदीली कूड Casualty त पावली. डॉ. नायक ड्युटीचेर आसलो. ताकाच डॉ. मूर्तीक आफोवपाक सांगलें. हांव रजेर आसां म्हुण जाणा जाल्ल्यान सगलेच अजापून पळयताले. पुण म्हाका तांची पर्वा नासली.

हांव विसेंत फिगरेदीक तपासतां म्हणसर जनरल सर्जरीचो प्रोफेसर डॉ. मूर्ती पावलो. तो तपासता म्हणसर हांवें डॉ. नायकाक artificial respiration दिवचें पडल्यार तयार रावपाक सांगलें आनी ऑपरेशन थिएटरांतूय तयारी करपाक फर्मायलें.

" Extradunal haemorrhage of arterial origin. A very serious case ! " डॉ. मूर्तीन कपलाक मिरयो घालून म्हळें.

हांवें तकली हालयली. सिरिअस खरी ! पुण हाताभायरी ? कशी जावं येता ? विसेंत फिगरेद मरपाचो जाल्यार थंयच मरतलो आसलो. ना. आतां तो मरूंक जायना.

पेशंटाच्या उजव्या कानाकुशीन सुजून गुळो कसो जाल्लो थंय पळोवन डॉ. मूर्तीन भुजां फाफुडलीं, " I don't think he will survive– "

" He will survive ! He must " हांवें म्हळें, म्हज्या उतरांनी डॉ. मूर्ती अजापलो. एक फावट पेशंटाकडेन आनी दुसरे फावट म्हजेकडेन पळोवन ताणें अजापान विचाल्लें,

" Your friend ? "

हांवें दाडवणां चिड्डून घेतलीं आनी फकत तकली हालयली.

" Let's try ! cranioclasty एखादरे ताका वाटायत. पुण वेळ होगडावन उपकरना. "

Cranioclasty ! म्हजे दोळे लिकलिकले. असलें सर्जरीचेर हांवें ' हालींच सर व्हिक्टर अॅलेक्झांडर हॅंडन होर्सली हागेलें ' आर्टीकल

वाचिल्लें. म्हाका तें भौ मानवल्लें.

“ Low temporal osteoplasty ! तुमी म्हणटात तशें केल्यार सारकें जावचें ना. ” आनी कानाकुशीनची सूज हांवें दाखोवन म्हळें “ नवी तरा आपणायल्यार हांगा आमकां ‘ आर्टरी ’ चे सगले फांटे सारके उकते मेळटले. ”

डॉ. मूर्तीन कपलावयली मिरी देंवयनासतना स्पश्टच सांगलें, “ तुगेलें खरें, परोब ! पुण म्हाका विस्वास येना. तसल्या ऑपरेशनाक अजून हांवें हात घालूंक ना. ”

हांव मनांतल्या मनांत हांसलों. आत्मविस्वास ! ही एक मोलादीक वस्त म्हजकडेन आसली. बाबान शिकयिल्ली.

“ सर, ही केस हांव घेतां. फकत तुमी म्हऱ्यांत रावन कितेंय चुकल्यार सांगात. हांवें निकतोंच अभ्यास केला हे सर्जरीचो. ” हांवें म्हळें आनी डॉ. मूर्तीन तकली हालयली.

पंदरा मिनटांभितर ऑपरेशनची तयारी जाली. हांव ऑपरेशन थिएटरांत वचून पळय जाल्यार डॉ. मूर्ती हात धुवन ॲप्रन बांदून तयार. हांवें सडसडीत शर्ट काडलो. कोंपरामेरेन हात घांसून घांसून धुले. वयरशे धरून तशेच सुकयले. नर्सीन धरिल्ल्या ॲप्रनांत हात घाले. नर्सीन फाटल्यान दोरयो बांदल्यो.

“ मोटर कॉर्टेक्साचेर प्रेशर चड आयिल्ल्यान ‘ cerebral anexia ’ जाला. उजव्या दोळ्यांचीं बावली कितली मोटी जाल्या पळयल्या ? ” डॉ. मूर्ती म्हजेकडेन पळोवन सांगतालो, “ आतां आनीक वेळ काडूं नाका. हांवें सगली तयारी केल्या... ”

“ हांव तयार जालों, सर ! ” हांव मुखार सल्लों.

विसेंत फिगरेदीच्या माथ्यावयले केंस कापून घाय उकतो केल्लो. गाड तांबडें रगत दाटून घायाक दशिल्लें.

...इंजेसांवां...ऑक्सीजन...लाइट...रगतान भरिल्ले कापसा-गुड्डे...कात्री, सुरयो...ब्लड ट्रान्स्फ्यूजन...

ऑपरेशन जालें. म्हजेपरीन बरें जालें. डॉ. मूर्तीन तोंडावयलें लुगट सकयल ओडलें. हातान्त्रो ग्लोव्ह ओडून भायर काडलो आनी एक हात

म्हज्या खांदार दवरून दुसऱ्या हातान म्हजो हात दामलो.

"विलास, यु आर ग्रेट !"

हांवें तोंडार हांसो ओडून हाडलो, 'थँक्यू सर !'

"देवाकडेन मागतां तो वांचल्यार पुरो !" इंग्लेज भाशेंत डॉ. मूर्तीन सांगलें. हांवें मनांतच म्हळें, "तो वांचुंकच जाय."

डॉ. मूर्ती म्हजे फाटीक लागलो, मातसो वच आनी सुशेग घे म्हुण. पुण हांव गेलों ना. डॉ. मूर्तीन सगली वेवस्था जिस्ताजिस्त केल्ली. पेशंटाक वेळच्या वेळार दिवपाची वखदां, घेवपाची काळजी, सगलें नेमून दिल्लें. तरिकूय हांव आयल्यापयल्यान रावलों.

दोळे अजून 'नॉर्मल' जावंक नासले. हांव पळोवन पळोवन वतालों. बऱ्याऽ वेळान असोच हांव दोळे पळयतालों इतल्यान डॉ. मूर्ती आयलो.

"Still dilated pupils ?"

हांवें तकली हालयली.

"'लंबर पंक्चर'ची तयारी केल्यार बरी न्हीं ?" डॉ. मूर्ती म्हाका विचारतालो. हांवें तयारी पयलींच केल्ली.

"सगलें तयार आसा. हांव तुमकांच रावतालों." हांवें म्हळें.

"Go ahead !"

डॉ. मूर्ती म्हऱ्यांत आसतनाच हांवें पेशंटाचे फाटिच्या कण्याक इंजेसांव तोपलें.

चड कळाव लागलो ना. दोळे सारके जायनाफुडें एक व्हड हुसकारो म्हज्या काळजांतसून भायर सल्लो. डॉ. मूर्तीन म्हजे फाटीर थापटून म्हळें, "Now he is fifty percent out of danger ! I hope he survives with all his senses."

डॉ. मूर्ती हो हॉस्पिटलांतलो एक जाण्टो आनी अणभवी सर्जन. तो म्हणटालो ते प्रमाण अजून पेशंटाच्या जिवाक भिरांत आसा. म्हणचे अजून तो मरूं येता...पुण म्हजें मन म्हाका सांगतालें–विसेंत फिगरेद असो मरचो ना...डॉ. मूर्तीक दिसतालें एकाद्री विसेंत फिगरेदीली स्मृती वतली वा दृश्टी वतली वा...पुण ना...'इंटरनेशनल सर्जरी' वयलें आर्टीकल हांवें निखटें चाळूंक नासलें. वाचिल्लें आनी मज घेवन

वाचिल्लें. म्हाका खात्री आसली. . .विसेंत फिगरेदीची नदर, कान, नाख आनी स्मृतीलेगीत सारकी उरतली. आनी तो पुराय बरो जातकीर हांव ताका त्याच पिस्तोलान गुळी घालून मारून उडयतलों. हांवें येवजून दवरिल्लीं उतरां आयकून विसेंत फिगरेद मरतलो. वैजपरबुल्या पुता हातसून आपुण मरतां हें ताका कळपाकच जाय.

सगली रात हांवें विसेंत फिगरेदीचे कुशीक जागून काडली.

सकाळीं आठांक सुमार माली हॉस्पिटलांत आयलें.

" विलास, कितें हें ? " मालीक जाल्लें अजाप म्हाका ताज्या तोंडार वाचूंक मेळ्ळें.

' दैवगती ! विसेंत फिगरेदीन म्हाका संदूच दिली ना. " हांवें म्हळें.

आनी पेपराचेर आयलां तुवेंच ताका वाटायलो म्हूण–" मालीन हातांतलो पेपर दाखोवन म्हळें.

हांवें पेपर घेवन वाचलो. आक्सिदेंत जालो तेन्ना हांव थंय कसो ' चुकून ' पावलों. आनीं हांवें कशेंतरेन विसेंत फिगरेदीक मोटारींत घालून हॉस्पिटलांत व्हेलो. आनी कशेंतरेन जनरल सर्जरीच्या प्रोफेसराक तेजस्वी जाप दिली. " He must survive ! " आनी रजेर आसुनूय कशे तरेन फुडाकार घेवन शल्यक्रिया यसस्वी केली. . .हें सगलें तोखणाय करीत बरयिल्लें.

" डॉ. मूर्तीचें काम हें ! " हांवें म्हळें.

" हें फट तर ? " मालीन विचाल्लें.

" ना गो ! पुण– म्हजो हेत ताका वाटावपाचो ना. "

" मागीर––"

" तो ' म्हज्या ' हातसून मरूंक जाय. " हांवें निश्चयपूर्वेक म्हळें.

लागीं कोण नाशें पळोवन मालीन म्हळें, " जाल्यार ताका हॉस्पिटलांत पावसर जिवो कित्याक दवल्लो ? ना म्हळयार ॲक्सिडंट करून दैवान तुका साथ दिल्लीच. तुंवें ताका हॉस्पिटलांत हाडटना ताजी गोमटी कित्याक चिडड्ली ना! कोणाक कळपार नासलें. आनी तूं वयल्यान ऑपरेशन करून––"

" आयक गो पयलीं. विसेंत फिगरेदीक ॲक्सिडंट जालो तो चुकून

जालो. ह्या अॅक्सिडंटान तो मरतलो आसलो घडये. पुण हांव सांगतां–तो तसो मरूंक जायना. जाणे म्हजे आईक आनी बाबाक गुळी घालून माल्ल्यांत तो आक्सिदेंतान मरुंकच फावना. . .वाटेर ताजी गोमटी दामप कठीण नासलें. पुण तें मरण चड सादें. तसलें मरण ताका नाका. हांवें ताका ह्या मरणांतसून वाटायला–फुडें ताजो सूड घेवपाक. तो बरो जातलो तेन्ना हांव त्याच पिस्तोलान ताजो जीव घेतलों. मरचेपयलीं ताका उगडास करून दितलों ताणें कितें केल्लें ताजो आनी सांगतलों हांव कोण तो––"

मालीक म्हगेलें मत्त मानवलेंशें दिसलें ना. पुण म्हाका ताजी पर्वा नासली. हांवें चिंतिल्लें तें विचार करुनच. म्हजे विवेकबुद्दीक मानवल्लें देखनच !

० ० ०

## : ११ :



म्हाका दिश्शिल्लें तशेंच जालें. विसेंत फिगरेद निवळपाक लागलो. तागेली नदर, कान, स्मृती सगलें सारकें आसलें. तिसऱ्या दिसा विसेंत फिगरेदीन दोळे उकते केले आनी तो उलयलो आनी सगले म्हाकाच परबीं दिवपाक लागले. पुण म्हाका खोशी जाली ना. विसेंत फिगरेदीन दोळे उकते करतां खिणीं हांव भायर सरून गेलों. आनी दुसऱ्याच दिसाच्यान हांव एक म्हयन्याचे रजेर रावलों. विसेंत फिगरेदीकडेन उलोवपाची म्हजी इत्साच नासली.

आतां हांव वाट पळयतालों 'त्या' दिसाची ! अजून तो नीट बरो जावंक नासलो आनी तो तसो जायसर कसोय तरी वेळ काडूंक जाय आसलो. मालीक लेगीत मेळपाची म्हजी इत्सा नासली. आठ दिसांभितर उबगण आयली. खंय तरी वचचेंशें दिसलें. हांव बेठोच उठून काणकोणां गेलों. हेवटेन तेवटेन भोंवलों. पोरण्यो यादी काडून मनाक धुसपायलें. आठ दीस रावन परतो आयलों.

दुसऱ्याच दिसा माली आयलें. बेठ्योच हेवटेन तेवटेनच्यो खबरो केल्या उपरांत ताणें म्हळें,

"विलास, डॅडी दिल्लीसावन आयिल्लो--"

"आयिल्लो म्हणचे ? "

"कालच परतो मुंबय वचपाक गेला. तरी बरें जालें. डॅडीन पिस्तोल सोदलें ना--" माली म्हज्या दोळ्यांत तोंकून पळयतालें. हांव वोग्गी रावलों.

"डॅडी मुंबय चड दीस उरचो ना. पिस्तोल जाग्यार ना म्हूण कळ्ळ्यार तो काचाबूल जातलो. आतांच व्हरून दवल्ल्यार बरें ! "

हांवें दोळे बारीक करून मालीकडेन पळयलें.

" केन्ना येतलो डॅडी ? "

" केन्नाय येत–ह्या आठ दिसांभितर ! " माली वयलेचाराक शांत आसलें. पुण भितर्यां खुब्ब अस्वस्थ आसलें जावंये ! कितें तरी सांगूंक सोदतालें–पुण अनमनतालें. कांय वेळ मोन्यांनीं सल्लो. पयलीं मालीच उलयलें.

" विलास, एक विचारूं ? खरें सांगशी ? "

" विचार. आमचेमदीं भायरभितर नाका. " हांवें म्हळें.

" विलास, अजून तुका विसेंत फिगरेदीक मारपाची इत्सा आसा ? "

" of course ; "

" मनापसून उलयता तूं ? काय एक फावटी म्हणिल्लें म्हुण तेंच खरें करूंक पळयता––"

म्हगेली कपलाशीर फुगूंक लागली.

" तें आसूं––विलास, तूं विसेंत फिगरेदीक मारपाचो विचार सोड. तागेल्या कर्तुपांचें पानवळ ताका मेळ्ळां. पुरो आतां. विसर आतां दुस्मानकाय––"

म्हज्या हातांच्यो मुठी जाल्यो. दातांर दांत घट बसले. आनी कोणाकूय जाल्यार ' shut up ' म्हुण धांवडावन घालतलों आसलों. तें मात उलयत रावलें.

" सांगतां म्हुण रागार जावं नाका. तूं ताका विसर. तो मेलो अशें समज. ताका मारपाचें येवजितां येवजितां तूं बदलपाक लागला. तूं आदलो विलास सो दिसना. . .त्या दिसा विसेंत फिगरेद मेल्लो जाल्यार तुजे जिणेंतलें एक अनिवार्य पर्व सोंपलें अशें जातलें आसलें. . .अजुनूय तुवें मनाची तयारी केल्यार तशें मानूं येता तुज्यान––"

" म्हाका भिजूड समजूं नाका तूं माली ! " हांवें मोवाळ उतरांनी म्हळें.

माली हांसलें. त्या हांसपान म्हजे शिरेन्‌शिरेंतलें रगत आटलें. त्या हांसपांत फकाणां आसलीं, निर्भत्सना आसली, हिणसावप आसलें.

" विलास, तूं उलोवपाक लायता म्हाका. तुवें जेन्ना विसेंत फिगरेदीक मारतलों म्हणिल्लें तेन्नाच म्हाका दुबाव आयिल्लो. तुवें जेन्ना पिस्तोल मागलें तेन्ना हांवें दिलें–म्हजें मन म्हाका सांगतालें, तूं तें वापरनासतना

परतें हाडटलो म्हुण. . .तूं खुब्ब sensitive विलास–म्हुण तूं सपनां पळयता तें बरें आसा! पुण तीं सपनां खरीं करपाक तूं वावुरनाका. तेभायर तूं एक दोतोर! तुगेलो धर्म म्हुण तुवें विसेंत फिगरेदीक वाटायलो! हांव सांगतां तें आयक विलास––कितले दीस तूं विसेंत फिगरेदीक मारपाचे कल्पनेंत वावुरतलो?"

माली उलयतना उलोवन गेलें. पुण म्हाका हें निमाणें वाक्य वरमार लागलें. तें मात उलयत रावलें,

"...विलास, तूं अेकलो एकसुरो म्हुण तुका चड त्रास जातात. घरांत दुसरो मनीस आसता जाल्यार तुगेले त्रास वांटून वतले आसले. हांव सांगूं? आमी आतां बेगीन लग्न जावंया–तुका म्हजो आदार जाय, विलास! म्हाका तुजो जाय ते परस चड तुका म्हजो–" माली मदींच थाल्लें. घुसपल्लेवरी जालें. मागीर ताणें आवाज देंवोवन म्हळें, "सॉरी, विलास! हांव चड उलयलें." आनी तें वचपाक उठलें. म्हाका कांयच सुचना जालें.

दाराकडच्यान माली परतलें.

"पिस्तोल दी विलास. हांव व्हरता तें."

म्हाका वोगी राविल्लो पळोवन तें घुसपलें. म्हज्या मनांतलें मोड ताका कळूंक दिनासतना हांवें फट माल्ली, "हांवें तें हॉस्पिटलांत म्हगेल्या गवेतांत दवल्लां. दोन दिसांनीं वतलों तेन्ना हाडून दितां."

मालीले पाय जड जाल्ले. वचचेपयलीं ताणें म्हळें, "हांवें सांगलां ताजो विचार कर. तुगेलें तें खरें करशी, तूं शेणटलो."

माली गेलें. म्हाका रानांत पडिल्लेवरी जालें. अेकलेपणाचो जाळ पयले खेपेक जालो. . .पुण हांव बागवलों ना. मालीन नकळटना म्हाका तिडायिल्लो––'कितले दीस तूं विसेंत फिगरेदीक मारपाचे कल्पनेंत वावुरतलो?'––खरें तें! हांव फकत कल्पनाच करतालों. इतलीं वर्सां सपनां पळयलीं, दिसा सपनां रंगयलीं. . .आनी आतां विसेंत फिगरेद हातालागीं आसुनूय हांव कल्पनेंतूच वावुरतालों. . .आनी कितले दीस? कितले दीस?

० ० ०

## : १२ :



रजा सोंपत आयिल्ली. अजून हांव खंयच भायर सरूंक नासलों. हॉस्पिटलांत वचून विसेंत फिगरेदीक मेळनासतना आयल्यार सगळयांच्या दोळयांत वतलें म्हुण हांव हॉस्पिटलांत लेगीत वचनासलों. जेवपाक गेल्लेकडेन एक दीस हांवें डॉ. नायकाक फोन करून खबर घेतिल्ली. ताणें म्हणिल्लें, पेशंट 'फास्ट रिकव्हरी' करता आनी म्हयन्याभितर ताका 'डिस्चार्ज' लेगीत दीत म्हुण. आतां पर्थून एक फावट फोन करून खबर घेवपाक जाय अशें चिंतता आसतनाच एक वॉर्डबॉय म्हजो नामो सोदीत म्हज्या ब्लॉकार आयलो. डॉ. मूर्तीन ताका मुजरत धाडिल्लो रेकाद दिवपाक कि कशेयभाशेन फाल्यां सकाळीं हॉस्पिटलांत येवन मेळ म्हुण. म्हाका सट्ट जालें—पेशंट सिरियस जाला काय ?

"येतां.—एक सांग, तो मेंदवा ऑपरेशन केल्लें तो पेशंट कसो आसा आतां ?"

"एकदम घट. तो फाल्यां घरा वता दोतोर !"

"कितें ? फाल्यां ? आनी घरा ?" हांवें तागेलें खरें खालें ना.

"हय, दोतोर ! तागेलो एक पारेंत पुर्तुगालासावन आयला ताका व्हरपाक. फाल्यां प्लेनाचेर व्हरतलो तो ताका."

"अजून हॉस्पिटलांतच आसा मरे तो ?" हांवें विचाल्लें.

"हय, दोतोर ! व्हडल्या दोतोरान ताका हालपाक लेगीत मना केल्ली. पुण तो हालता, उठटा, बसता आनी भोंवक लेगीत सोदता. बॉडीन एकदम घट ! फाल्यां भायल्याभायर ताका प्लेनार व्हरतले खंय !"

हांवें वॉर्डबॉयाक वाटेक लायलो. फॅनाचो नॉब घुंवडावन फास्ट केलो आनी कानाप्याचेर आड पडलों. विचारांचें मालें धोंगसल्लें आनी शेंक

ड्यांनीं मूस घोंघों करून हेवटेन तेवटेन चाळवल्लेवरी धांवूंक लागिल्ले

विसेंत फिगरेद फाल्यां वता. हांव असो सामकोच न्हिदून कसो रावलों ?तरी बरें, वतकीर कळ्ळें ना. आतां कितें करप ? कशें करप ? ही निमाणी संद. फायचोच दीस.

सगलो सांजवेळ विचारांत सल्लो. पुण विचार नक्की जायनासलो. आमोरी जाली. काळोख पातळायत रात आयली. पुण मन उचांबळच उल्लें. निमाणें, गाडी काडली आनी बद्द दोनापावलाक गेलों. दोंगुल्लेचे तेंगशेर वचून रेलिंगाक तेंकून उबो रावलों. चंद्रिमाची कोंर पयस रावन म्हजेकडेन पळयताली. आई म्हजेर रागार काय ? म्हजेकडेन ती अविस्वासाचे नदरेन पळयता ? तिकाय म्हजो विस्वास ना ?

सकयल दरया मात शांत आसलो. म्हाका सांगतालो, तूं पयलीं तकली थंड दवर. शांत चित्तान येवजी. म्हजो तुजेर पुराय विस्वास आसा.

मन एकाग्र केलें. कांय वेळ गेलो. वारो व्हांवत आशिल्लो. मन ल्हवल्हव जायत गेलें.

मन एक फावट अठठावन्नात गेलें. बाबाची तेजस्वी मुर्त दोळ्यांसामकार आयली. आईन शीलाखातीर मरणाक मारिल्ली वेंग. बाबान तत्वाखातीर ओंपिल्लो प्राण. आनी निश्ठूर, दुश्ट, पातकी, घातकी विसेंत फिगरेद ! म्हजीं कानसुलां तापूंक लागलीं.

दोतोर जालों तेन्ना बाबाले आशीर्वाद मेळ्ळे नात. आतां विसेंत फिगरेदीक म्हज्या हातान मारुनच ते घेवप. हांवें निर्धार केलो.

विसेंत फिगरेद फाल्यां वतलो. विमानान. केन्ना सो भायर सरतलो ? इकरांक ? बारांक ? खंय काम सादिल्लें बरें ? वाटेर ? मोटार आडावन ? काय--

सट्ट करून म्हाका याद जाली. डॉ. मूर्तीन म्हाका आफोवपाक धाडला. हय. अशेंच करप. डॉ. मूर्तीन म्हाका विचारिल्लें, विसेंत फिगरेद कोण फ्रेंड काय म्हुण. आतां सगल्यांक कळटलें. विसेंत फिगरेद म्हगेलो कोण तें !

सगलें जिस्ताजिस्त जावपाक जाय--

सकाळीं धा पयलींच हॉस्पिटलांत वतलों. बोल्सांत भरिल्लें पिस्तोल.

डॉ. मूर्ती आसलो, बरें जालें. ताकाच सांगप म्हजी पेशंटाकडेन वळख करून दी म्हण. तो विसेंत फिगरेदीक सांगतलो, " हो दोतोर विलास परोब ! "

मागीर हांव म्हणटलों, " दोतोर विलास परोब ! म्हाका वळखना ? काणकोणच्या वैजपरबुलो पूत हांव. . .वळखलो ? "

विसेंत फिगरेद येवजितलो. ताका उगडास जायनाफुडें ताजे दोळे धवे जावपाक लागतले—उगडास जालो ना जाल्यांर हांव करून दितलों.

पिस्तोल म्हज्या बोल्सांत आसतलें.

" तुवें म्हगेल्या आईक आनी बाबाक अशे तरेन—" इतलें उलोवन मागीर पिस्तोल भायर काडटलों आनी—

हांवें बाग घेवन सकयल पळयलें. काळीं कुळकुळींत तळपां निश्चेश्ट जावन पडिल्लीं. हांव समाधानान हुसकाल्लों.

शांत चित्तान हांव परतलों. तेन्ना दरया मंद ल्हारेतालो आनी चंद्रिमाची कोंर माथ्यार येवन म्हाका पळोवन प्रसन्न हांसताली.

० ० ०

## : १३ :

रातीं न्हीद बरी ऽ पडली. सकाळीं उठपाक कळाव जालो. उठून न्हाता म्हणसर बेल वाजली. पळय जाल्यार दारांत माली.

" आगो, सकाळ फुडेंचशें ? " हांवें अजापून विचाल्लें.

" हरशींच आयिल्लें. पांच स दीस जाले तुजी जाग ना शी म्हुण आयिल्लें. " उलयत माली भितर आयलें, " आज कितें तूं फॉर्मांत सो ? कामाक वता काय कितें ? "

मालीक सगलें सांगून उडोवचें शें मनांत आयलें. पुण हांवें मन माल्लें. ताणें उपदेस करपाक सुरवात केली जाल्यार म्हजें मन निर्शेतलें. आनी ताणें मोन्यांनीं आयकून घेतलें तरी फायदो कितें ? मालीचो आनी म्हजो संबंद सोंपलो. आतां ही निमाणी खेप मेळपाची. दनपारां हांव चड करून पोलीस कस्टडींत आसतलों.

" ना बाये ! अजून चार दीस आसा रजा ! " हांवें वयर, वयर म्हळें.

" विलास, तूं सामको भागला ह्या दिसांनीं ! तुका पळयतकीर म्हाका भिरांत दिसता. " मालीन दोळे ओडिल्लेभाशेन करून म्हळें.

" कांय भियेवं नाका. टॉनीक बी घेतां आतां. ओ. के. ? " हांवें फकाणां मारून म्हळें.

" ना, विलास ! तुका टॉनीक नाका ! तुका जाय सांगात आनी आदार ! विलास, तूं चार दीस आमगेर येवन रावशी ? लोकीचांराक बरें दिसना म्हुण. नाजाल्यार हांवच येवन रावतलें आसलें हांगा. "

मालीलें आयकतना म्हजें हड्डें भरून येवपाक लागलें. हांवें बेठेंच बेसीनाकडेन वचून दोळ्यांर उदक माल्लें.

कितलोसोच वेळ कोणच उलयलीं नात. निमाणें माली उठलें.

" बरें तर हांव वतां. " माली उठलें. हांवूय उठलों.

" विलास, तें पिस्तोल तुवें पावयलेंच ना. आज बाबा पावता. आतां दिशी मातशें ? " मालीन काकुळटेक येवन म्हळें.

" आरेच्या ! विसल्लों. बरें जालें. तुवें याद केली. आतां हांव हॉस्पिटलांत वतलों. येतना विसरनासतना हाडतां. " हांवें जिस्त संवंग सोबयलें.

" तूं रजेर आसा म्हणटालो न्हीं अजून ? "

" हय. पुण आज डॉ. मूर्तीन आफोवपाक धाडला. आनी मातसो रावन वतलों. " हांवें मखलाशी केली.

" बरें. तूं हाडून पायता मरे ? प्लीज ! " इतलें उलोवन माली भायर सरून गेलें.

म्हजें म्हाकाच पोलें फोडून घेवचेंशें दिसलें. केदी प्रतारणा करतालों हांव मालीकडेन ! पुण उपाय नासलो. मालील्या मोगापरस म्हेगेलो हावेस चड म्हत्वाचो आसलो. सुडाची वानसा चड खर आसली.

कळाव करिनासतना हांवें आंगार मुस्तायकी लकयली. मालीचो विचार फाफडून उडयलो. पिस्तोल भरिल्लें आसल्यार पळयलें. मातसो वेळ हातांत घोळयलें. मागीर बोल्सांत दवल्लें. फियाट घेतली आनी भायर सल्लों.

हॉस्पिटलाकडेन पावलों तेन्ना धांक धा मिनटां आसलीं. गाडी पार्क केली. मुखारच डॉ. मूर्तीली गाडी आसली. बरें जालें ! मनांतल्या मनांत हांवें आई-बाबाचें स्मरण केलें. आनी भायर सल्लों. हॉस्पिटलाचीं सपणां चडलों. दारांतच मेट्रन मेळ्ळी.

" गुड मॉर्निंग, डॉक्टर ! डॉ. मूर्ती तुजो उगडास काडटालो. निकतोच पेशंटाल्या रुमांत गेला. तूं येयल्यार थिगा धाड म्हुण रेकाद दवल्ला. "

" थँक्यू ! पेशंट अजून थंयच आसा ? "

" स्पेशल रुमांत ' शीफ्ट ' केल्यार पंदरा दीस जाले, दोतोर ! "

मेट्रनीक थंयच सोडून हांवें वचपाक पांय उखल्लो. हड्ड्यांत धडधडपाक लागलें. सगलें जिस्ताजिस्त जुळिल्लें. डॉ. मूर्ती विसेंत फिगरेदील्या रुमांतच आसलो. थारिल्लेप्रमाण तो म्हजी वळख विसेंत फिगरेदीकडेन

करून दितलो आसलो.

हांवें बोल्स सांसपून पळयलें. एकएक पावल जोखून उखलीत हांव चलपाक लागलों.

. . .अेके तरेन बायलेचें शील बाटोवपाक आयिल्लो विसेंत फिगरेद ! आनी ताका आडावपी म्हजो बाबा ! परके बायलेची लज राखपाक आपल्या जिवार उदार जाल्ली म्हजी आई. आनी कुडिची इल्लीशी भूक भागोवपाखातीर म्हज्या आईबाबाचो जीव काडून म्हज्या फुडाराचो गोबोर करपी मदांध मिसतीस विसेंत फिगरेद !

कांय मिनटां. . .कांय खीण ! आनी त्या विसेंत फिगरेदीचें मडें पातळटलें–म्हज्या हातान ! हांवें बोल्सांतल्या पिस्तोलावयल्यान हात भोंवडायलो. एका पातक्याक मारपाचें पुण्य जोडपाक भायर सरिल्लों हांव !

विसेंत फिगरेदीक घाल्लो तो स्पेशल रूम लागीं पावलो. हांवें बोल्सांतल्या बोल्सांत सांसपून सेफ्टी कॅच उकतो करून दवल्लो. दोन पावलां फुडें घालीं. फाटल्याफुडल्यान कोण नासलो. दाराकुशीन रावन हांवें ल्हवूच भितर पळयलें. डॉ. मूर्ती भितर उबो आसलो. ताजी फाट दाराकडेन आसली. आनी विसेंत फिगरेद कानाप्याचेर उशाक तेंकून बशिल्लो.

विसेंत फिगरेदीली इंग्लेज उतरां म्हज्या कानार पडलीं, “ Doctor, I deserved death ! पुण तुमी म्हाका वाटायलो. हांवें गोंयकारांक खूब पिडल्यात, माल्ल्यात ! त्या कोंतान आज लोकांनी म्हाका फातरांनी कोंकावन माल्ल्यार लेगीत थोडो. म्हाका आज लज दिसता. पुण तेन्ना म्हाका मद मारिल्लो––सत्येचो सुवार्थखातीर मेळत तसो दुरुपेग केल्लो हांवें. हे भुंयेर केदीय व्हडली ख्यास्त जाल्यार थोडी म्हाका ! पुण अजाप ! गोंयकारानूच म्हाका येद्या जिवावयल्या संकश्टांतल्यान वाटायलो. डॉक्टर ! मनापसून सांगतां–आदलो विसेंत फिगरेद मेलो ! आतां म्हजो नव्यान जल्म जाला अशें हांव मानतां ! ”

म्हाका मालीलीं उतरां येवजलीं––“ विसेंत फिगरेद मेलो म्हुण समज. ” आनी आज खासा विसेंत फिगरेदच म्हणटालो––“ विसेंत फिगरेद मेलो ! ––” म्हज्या कानांर फुडलीं उतरां आयलीं.

" गोंयकार व्हड काळजाचे देखून हांव आज जितो आसां. ज्या परोब दोतोरान म्हाका वाटायला ताका जर खबर आशिल्ली कि हांव केदो व्हड गुन्यांवकारी आनी पातकी म्हुण जाल्यार म्हाका दिसना एक गोंयचो पूत म्हाका हेभाशेन वाटायत आसलो ! "

डॉ. मूर्तीन विसेंत फिगरेदीक तोडलो. " I don't agree ! दोतोर पेशंटाकडेन पळयतना तो पातकी काय पुण्यवान, तो श्रीमंत काय गरीब तें पळयना. ताजे मुखार आसता तो एक मनीस. आवय जशी भुरगें वायट बरें कशेंय आसूं ताजें वायट काडटा तशेतरेन खरेलो दोतोर पेशंट मरचो न्हीं म्हुण येत्न करता. आनी डॉ. परोब तर खरो दोतोर ! तागेलो बापूयूय बी खंय वैज आसलो. दोतोरकी ताज्या रगतांत आसा. "

म्हजो ताळो सुकलो. डॉ. मूर्तीन म्हजें ' रगत ' वयर काडिल्लें. त्या बाबालो पूत म्हुण अप्रत्यक्ष तोखणायच केल्ली. खरो दोतोर ! ! म्हजो बाबा खरो वैज आसलो. आनी ताजी इत्सा आसली——बरो दोतोर म्हुण हांवें नामना जोडची हीच. . . म्हजो हात सदळ पडलो.

" डॉक्टर ! परोब दोतोर येन्नादर पावणाचो न्हीं ? अजून कसो आयलो ना ? म्हाका ताका पळोवपाक जाय–ताजे उपकार मानूंक जाय. . .तो नासता जाल्यार हांव—"

म्हजें काळीज सकयलवयर जालें. भितल्लें मन सांगूंक लागलें–" हो विसेंत फिगरेद तो न्हीं. तो विसेंत फिगरेद मेलो ! म्हजो दुस्मान मेलो ! " कपलावयली हूम दोळ्यांत पावली. दोळे चुरचुल्ले.

ज्या एका सपनाचेर हांव इतलीं वर्सां जियेल्लों तें सपन खिणांत भंगोवन उडोवंक मन जड जावपाक लागलें. पुण पर्थून जाण्टच्या मूर्तीलीं उतरां येवजलीं. ताज्या तोंडान बाबाच उलयिल्लो जांवये, ' खरो दोतोर पेशंट मरचो न्ही म्हुण——' आनी डॉ. मूर्तीन म्हजें ' रगत ' वयर काडून म्हणिल्लें——' खरो दोतोर ! ' म्हजो किंवाटो गेलो. बोमाडो फुटलो. विसेंत फिगरेदीक मारपाची वानसाच गेली.

इतल्यान विसेंत फिगरेदीलीं उतरां आयकूं आयलीं——" ह्या आक्सिदेंताच्या निमतान गोंयचे भुंयेर हांवें केल्ल्या पातकांचें पानवळ म्हाका मेळ्ळें अशें हांव मानतां आनी तुमच्यो शुभेच्छा घेवन——"

इतल्यान डॉ. मूर्ती घुंवलो. हांवें बेगबेगीन फाट केली आनी सडसडीत पावलां उखल्लीं. डॉ. मूर्तीन म्हाका पळयलो जावंये. तो भायर येवन म्हाका उले मारूंक लागलो. हांवें फाटल्यान पळयनासतना सडसडीत चाटां माल्लीं.

हातपांय घळसणिल्लेवरी जाल्लें. सामकें घुंवळिल्लेवरी जातालें. गरज आसली आदाराची. बेबद्यावरी लकतलकत हांव सपणां देंवलों. आनी——

मुखारच माली दिश्टी पडलें. हुसक्याभरीत जावन निकतेंच म्हजे सोदीक आयिल्लें. म्हजी आवतिकाय पळोवन तें धांवत म्हजेसरीं आयलें. हांवें एक हात ताज्या खांदार दवरून ताजो आदार घेतलो. रडकुरें परतून मालीन विचाल्लें, " कितें जालें, विलास ? "

" विसेंत फिगरेद मेलो ! " आनी याद जावन विचाल्लें " तं जिस्त कशें पावलें ? "

" टेलेपथी. " मालीन म्हळें.



मोल : रु. ४=००



**आयचीं प्रकाशनां**

प्रसादाफूल
तुळशी
गांथन
वेळेवयल्यो धुलो
आशाढपांवळी
बापू
भजगोविन्दम
वासवदत्ता
पैगंबर
ओली सांज
उजवाडाचे सूर
संशयकल्लोळ
सालोमे
सूड

**फुडलीं प्रकाशनां**

सांगाती
विराट
हिमालयांत
स्मगलर
मोनी व्यथा
मुक्ती
अच्छेव